# रानवळख

(बालसाहित्य मालिका)

१० ते १५ वर्सां पिरायेच्या भुरग्यां खातीर

दिनेश रा. मणेरकार

संजना पब्लिकेशन्स
सांगे - गोंय

Ranvallakh
collection of articles on wild life
( Children's Literature Series)
by Dinesh R. Manerkar

रानवळख
रानवटी जिणेचेर लेख
(बालसाहित्य मालिका)



**उजवाडावपी:**
**संजना पब्लिकेशन्स**
**श्री मंगेश लक्ष्मी निवास**
39, दत्तवाडी, सांगें-गोंय
फोन : 9552551425
email : sanjanapublications@yahoo.in

प्रकाशन क्रमांक : 12
पयली उजवाडावणी: 2012

अक्षर जुळणी :
अर्चना-अशोक

प्रिंटर्स
बांदेकर ऑफसेट
कुडचडें - गोंय
फोन :0832-2650034

मोल: रु. 250

बाय प्रियंका प्रकाश सडेकार,
आयुश्यांतलो पयलो हुमरो हुपतनाच
तुवें हें जग सोडलें.
तुजें तें उमेदीन भरिल्लें भुरगेंपण
अजून दोळ्यांर आसा.
तुजे यादीक ही म्हजी शब्दांजली.

- दिनेशकाका

# मांडावळ

# रान

पृथ्वी वेलें विश्व हें अजापांनी भरलां. तातूंतलेंच एक अजाप म्हणल्यार रानां. खंयच्याय जाग्यार रान जें जालां ताची उत्पत्ती वा ताची वाड थंयच कित्याक हो एक संशोधनाचो विशय. पृथ्वीचेर जशीं रानां आसात तशीं वाळवंटांय आसात, उदकय आसा, शेतोड आसा, तळप आसा. हाची वांटणी वा हाची वेंचणी वा हाची आंखणी ज्या कोणें केली तो खरोच एक सामर्थ्यवान चित्रकार. वसुंधरेची ही देण फकत एके पृथ्वीक मेळ्ळ्या. ही देण चंद्राक मेळूंक ना, ही देण मंगळाक मेळूंक ना. ही देण आनी खंयच्याय गिऱ्याक मेळळया हें अजून तरी सिद्ध जावंक ना.

पृथ्वी वेलीं रानां हीं प्रत्येक वाठारा कणकणीं थंयच्या तापमाना प्रमाण, सैमीक वातावरणा प्रमाण आनी जमनीचे सुपिकताये प्रमाण वाडल्यांत. हाका लागून प्रत्येक रानाचो' रंग वेगळो, सभाव वेगळो, आवाठय वेगळो आनी ताची संपतय वेगळी. मुळांतच रानांतली जमीन सुपीक आसता. ताका उदकाची भरपूर पुरवण आसता. हे जमनींत तरातरांच्या मिनाचे सांठे आसतात. हाकाच लागून जायत घडये हांगाचीं झाडां पेडां घसघशीत वाडटात. रानांतल्या रुखांची, झाडांची. झुडपांची आनी तणांची एक सांखळ आसता. ही सांखळ जर खंयीय तुटली जाल्यार ताचो परिणाम ताका संबंधीत

आशिल्ल्या झाडांचेर जाता.

जशी झाडांची सांखळ आसता तशी थंय जल्माक आयिल्ल्या जनावरांचीय प
सांखळ आसता. हे सांखळेंतली खंयचींय जनावरां जर सोंपलीं जाल्यार तांचेर अवलं
आशिल्लें जनावर तें रान सोडून वता.

देखीक वाग. वागाक आपल्या सांगाताक माकड जाय आसता, हरणां ज
आसतात, तरसां/ येवलां जाय आसतात, कोले जाय आसतात आनी त्याच वाग
ताका ताचें रानय बरें अटंगें जाय आसता. ताका विसव घेवपाक, ताका लिपपा
ताका हुस्के विरयत रावपाक, मनीस नांवाच्या प्राण्याचो त्रास चुकोवपाक तो कोण्या
आळी पसंत करता. गच्च झुडपां ताका आवडटात. उबाळाच्या दिसांनी थंड उदक
लोडेवपाक ताका ल्हान ल्हान व्हाळ आवडटात. आपलीं नाखटां पाजून घेवपाक ता
थारावीक झाडां जाय पडटात आनी वत खावपाक मेकळे जागेय जाय पडटात.

प्रत्येक जनावराक ताच्या सभावा प्रमाण रानांत ह्यो सुखसोयी जाय पडटात.
वाठार तांकां हें दिवपाक शकता ताकाच रान म्हणू येता. निखटीं सायलाचीं झा
लायलीं वा निलगिरीचीं झाडां लायलीं वा रबराचीं झाडां लायलीं वा माट्टीचीं झा
लायलीं म्हणून तें रान जायना. तें 'प्लांटेशन' आसता.

रान हो सैमाचो आविश्कार. रान ही सैमाची निर्मणी. रान हें सैमाचें काव्य. र
हें सैमान निर्माण केल्लें, स्वताच्या रंगांनी पितारिल्लें एक सुंदर मनभुलावणें सपन.

मनशाक अशा रानाची निर्मणी करप शक्य ना. आजवेर जगार खंयच्या
मनशाक रान निर्माण करप शक्य जावंक ना. आनी घडये तें जावचेंय ना.

देखून रानां सांबाळात, रानां वांचयात, रानां वाचूंक शिकात, रानां जगोव
शिकात.

***

# वाग

वाग रानसंपदेंतलो म्हत्वाचो प्राणी. रानाचेर आनी रानवटी जनावरांचेर संशोधन करपी, अभ्यास करपी लोक वागाक खूब म्हत्व दितात. ते म्हणटात वागाच्या रानांतल्या अस्तित्वान रानाक रानपण येता. वागाच्या अस्तित्वांत रानांतल्या हेर जनावरांचें अस्तित्व गुंथिल्लें आसा अशें मानतात. म्हणूनच इश्टांनो रानांतलो वाग जर जगलो, जिवो उरलो तर आमचीं रानां जिवीं उरतलीं. अशें हे तज्ञ सांगतात. हीं सांखळ कशी गुंथत वता हें मागीर पळोवया. हांवें हांगा ज्या वागाचो उल्लेख केला तो पट्टयांचो वाग.

ह्या वागाचो आवाज वा डरकाळी जबरदस्त आसता. ताणें डरकाळी फोडली जाल्यार अख्खें रान आंग काडटा. माकड उडक्यो मारीत झाडांचे तेंगशेर अश्या खांदयांचेर वचून बसतात जंय वाग पावपाक शकना. हरणां कान उबे करून वागाची सुलूस घेतात आनी पयस पळून वतात. सुकणीं पसून आपलो वेगळो आवाज काडून रानाक सादूर करतात. घडये म्हणटात आसतलीं 'जागते रहो. जंगल का राजा आ रहा है!'

हय! ह्या वागाचो दरारोच तसो. वचक तसो आनी ताची शक्तूय तशी. ताच्या आंगांत जबरदस्त ताकद आसता. तोंडांतले ताचे सुळे, ताच्या जबड्याची चाबपाची शक्त, ताच्या फुडल्या दोनूय पंजांचीं नाखटां आनी त्या पंज्यांच्या दावखुलांची ताकद वा शक्त जबरदस्त आसता. तुमी जाणांत? वागान मनशाच्या तोंडार एक नाखटां फुलयल्लें दावखूल मारत जाल्यार मनशाची तकली माने पसून तुटून वता. ताच्या

दावखुला मुखार तरसाद पसून कांयच न्हय.

इश्टांनो, वाग हो रानाचो राजा. तो जसो शक्तिमान तसो युक्तिमानय बी. व
जेन्ना खंयच्याय जनावराचेर घुरी घालता तेन्ना ताणें त्या जनावराचो बरोंच अभ्य
केल्लो आसता. शिकारेचे फाटल्यान धांवपांत वाग आपली शक्त वगडायना. तो आप
शक्त सदांच राखून दवरता. उण्यांत उणी शक्त वापरुन पूण चड युक्त वापरुन व
आपलें सावज मारता.

वाग ज्या जनावराचेर हल्लो करता त्या जनावराचे मानेक मुळाचे वटेन तो घा
मारुन रावता. वागाच्या तोंडांत तीस दांत आसतात. तातूंत चार भक्कम सुळे आसता
हे सुळे भायर जितले दिसतात ताच्या तीन पटींनी ते भितर आसतात. वागाक द
आनी जीब हांचे मर्दी सैमान एक 'गॅप' वा मेकळो जागो दिला. ताका लागून वाग जे
सावजाक घांस मारता वा गोमटी धरता तेन्ना ह्या गॅपांत ताची मान उरता.

ह्या वेळार वाग ताचे मानेचेर बेश्टोच दाब हाडटा आनी ताका लागून जनाव
घुस्मटून मरता. एकदां हें जनावर मेलें कीं मागीर तो बसून ताका खाता. हाका लाग
वागान जरी सावज मारलें जाल्यार ताका रगताचो मागमूस आसना. जनावरांचे मान
मुळा सावन घांस मारतकच ताच्या मेंदवाक रगताची पुरवण जायना. तेच बराब
स्वासूय बंद जाता.

ताका लागून जनावर बेशुध्द जाता आनी ताची प्रतिकार शक्त थंड पडटा. वा
फकत तण खावपी हरण्णाकच धरता वा खाता अशें न्हय. तो गव्या रेड्याचेर आन
रानडुकराचेर सहज घुरी घालूंक शकता. पूण ह्या जनावराक तो उडी मारुन धरत
आनी ताका घुस्मटावन मारता. मागीर तांकां तो ओडून आपल्याक सुरक्षीत दिसत
अश्या जाग्यार व्हरता आनी खावपाक बसता.

वाग जंगलांत कोणाक भियेना. वागाक रानांत मारपी वा वागाक आपलें खाद्य
मानपी एकय जनावर संवसारांत आज मेरेन ना. देखून वाग हो रानाचो राजा. ता

वलप बिनधास्त, ताचें भोंवप भिरांती विणें, ताचें शिकार करप झेतार. तो झेतान रानांत भोंवतलो, जाय थंय बसतलो, जाय तेन्ना उठ्‌ठलो. ताचो तो रान मिरोवपाचो झेत वेगळोच. ताका तुळा ना.

वागाच्या फुडल्या पांयाक जीं नाखटां आसतात तीं बरींच लवचीक आसतात. गरज पडटा तेन्ना खंजीर कशीं तीं भायर सरतात. सादारणपणान माजराच्या दावखुलांतल्या नाखटां भशेन. पूण वागाच्या नाखटांक गऱ्या भशेन मांडणी आसता. नुस्तें धरपाचे गरे जशे नुस्त्याच्या तोंडांत फारवतात तशीं वागाचीं नाखटां ताच्या सावजाच्या आंगांत फारवतात. ताका लागून वागान एकदां जनावराक धरलें जाल्यार ताका सुटून वचप शक्य जायना.

सावज जर तशेंच शक्तिमान आसत आनी वागाची पकड जर सारकी पडिल्ली नासत जाल्यार वागाचें नाखूट ताच्या मांसांत मोडपाक शकता. पूण अशी गजाल घडप सामकी क्वचीत. वागाची घांस मारपाची शक्त म्हणल्यार ज़बड्याची शक्त मात जबरदस्त आसता. मांस खातना जनावराचें केदेंय व्हडलें हाड तो आपल्या दांतांनी फोडटा. त्या हाडांतलो 'बोनमेरो' मोटे आवडीन खाता.

पूण होच वाग जेन्ना हरणाची गोमटी आपल्या जबड्यांत धरता तेन्ना ताची तकली एका घांसांत धडा वेगळी करपाची शक्त आसून लेगीत तो तशें केन्नाच करना. ताचे मुखावेले सुळे मेंदवाक रगत पावोवपी शिरो तोडटात. आनी जबड्याचो थोडोसो दाब गळो अंदिता, जाका लागून सावज घुसमट्टा. अशें तो कित्याक करता हाची जाप म्हाका अजून मेळूंक ना. घडये जनावराच्या आंगांतलें रगत व्हांवन गेलें जाल्यार ताचें मांस उणें रुचीक लागता आनी कुडींतच तें गोठेता तेन्ना तें चड बरें लागता आसुंये असो म्हजो मनीसधर्माक अणसरून केल्लो तर्क. खरें फट वागच जाणा.

वाग हो वातावरणा कडेन जुळोवन घेवपी प्राणी. सैमान ताका ती देणगीच दिल्या. भोंवतणीं जशें वातावरण आसा ते प्रमाण तो आपल्यो संवयो बदलता आनी आपलें राहणिमानय बदलता.

वाग हो तसो मूळ भारतीय प्राणी न्हय. वागाचें मूळ जल्मस्थान सायबेरिय सायबेरिया हो बर्फाळ प्रदेश. थंय अजूनय वाग मेळटात. तांकां सायबेरियन वा म्हणटात. हो सायबेरियन वाग भारतीय वा बंगाली वागा परस बरोच मोटो आसता. उ वाग सायबेरियांत बर्फाळ प्रदेशांत रावता तोच वाग भारतांत येतकच भारताच उश्णमय वातावरणांत रावपाक शिकलो.

भारतांत सुंदरबन नांवाचें एक अभयारण्य आसा. ह्या अभयारण्यांत जाय बंगाली वाग आसात. ह्या अभयारण्यांत कांय ल्हान ल्हान वा जुंवे आसात. एका जुंव्य वेल्यान दुसऱ्या जुंव्यार वतलो जाल्यार उदकांतल्यान पेंवन वचचें पडटा. वाग आपल शिकार सोदपाक ह्या अभयारण्यांत एका जुंव्या वेल्यान दुसऱ्या जुंव्यार पेंवन वता. थं कांय प्रकारचीं हरणां उदकांतलो शेळो वा कमळाचीं पानां बी खावपाक उदकांत पेंव येतात.

उदकांत शिकार करपाक सोपें पडटा म्हूण खूब फावटी वाग ह्या उदकां देंविल्ल्या हरणांचेर घुरी घालता. हांगां तांची शिकार करपाक चड शक्त खर्च करप न हो गूण तो वापरांत हाडटा. वाग हो आंगान जरी कसोय आसलो तरी तो एक बर पेंवपी. सुंदरबनांतले वाग आयज वेगळ्याच सभावाचे जाल्यात. रानांत वाग जस पासयेक वता  तसो सुंदरबनांतल्या वागाक पेंवप हो पासयेचोच एक भाग जाला केन्नाय फुडाराक वागान उदकांतलें नुस्तें धरून खालें जाल्यार अजाप करपाचें ना कारण वाग आपलो जीव वाटावपा खातीर भोंवतणच्या वातावरणा कडेन जुळोवन घेता. आनी नकळत ताचे मदीं शारिरीक आनी सभावीक बदल घडत वतात.

आपलें खाण कशें मेळोवचें हाचें शिक्षण सैमच जनावरांक दिता. आनी ते खातीर तांकां तशीं आयुधांय दिता. दर एका रानटी जनावराची शिकार करपाची तर वेगळी. ताका सैमान दिल्लीं शस्त्रांय वेगळीं.

वागाक सैमान एक व्हड देणगी दिल्या. ताच्या पावलांक मुळच्यान मोव मोव गादी आसता. तुमी माजराक मांडयेर घेवन ताचीं पावलां केन्ना पळयल्यांत? ताका

ळच्यान मोव मोव तळवे आसतात. तांकां बोट लावन पळयलां? वागाच्या तळव्यांकय श्योच गादयो आसतात. ताका लागून वाग जेन्ना सावजाक धरपाक ल्हवू ल्हवू येता न्ना ताच्या पांयांचो आवाज जायना. वागाचें येदें व्हडलें धड वा कूड, पूण ताचो पांय ानांतल्या सुकिल्ल्या पानांचेर वा सुकिल्ल्या बारीक बडयांचेर पडल्यार लेगीत 'कट्ट' सो आवाज जायना. ताचीं पावलां इतलीं 'सावंडप्रूफ' आसतात. हाका लागून वाग ोंपा फाटल्यान येवन केन्ना रावलो हाची सुलूस लेगीत हरणाक वा माकडाक लागना. मान हरणाकूय तितलेच तिक्ष्ण कान दिल्यात. झाडावेलें सुकिल्लें पान लेगीत सकयल डलें जाल्यार त्या आवाजान हरण शिटकावता. मान वयर करून तें सुलूस घेता. पूण ागाचें येवप जायते फावटी ताका जाणवना.

वाग आपलीं हीं पावलां खूब सांबाळटा. तो कांट्यांतल्यान केन्नाच वचना. हेर नावरां कांटे बी माडोवन वतात. कारण तांचीं पावलां मुळाक घट्ट आसतात. अशें हणटात, हे कांटे चुकोवपाक वाग सदांच रस्त्यान वा पांयवाटेन भोंवता. जे वाटेर ताका ांटे मेळनात अशेच जागे तो सोदता आनी ते वापरता.

मनशाच्या रगताक चटावल्ल्या वागाक आमी नरभक्षक म्हणटात. हो सदांच अशे ांयवाटेर लिपून बसता आनी एकसुऱ्या मनशाचेर घुरी घालता.

वाग हो तसो धूर्त प्राणी. वागाच्यो वा हेर जनावरांच्यो खूब काणयो वा घडणुको ाचपाक मेळटात. फामाद लेखक सुरेशचंद्र वारघडे आपल्या पुस्तकांत बरयतात, एकदां एक वाग सामको जाणटो जालो. ताच्यान धांवत वचून शिकार करप जायना जालें. पोटाक तर भूक लागल्या. कितें करतलो? ताणें तकली लडयली. माकड बसतात त्या झाडा मुळांत वचून मरून पडिल्ल्याचें सवंग घेतलें. माकड जेन्ना झाडार आयले, तांणी वागाक पळोवन बोवाळ केलो. पूण वाग हालना. कांय वेळान एक-दोन पोरां लागीं आयलीं आनी वागाचेर पानां, फुला, ताळयो शेंवटिल्यो, पूण वाग हाल्लो ना. धीट पोरां सकयल देंवलीं. वागाची शेंपडी ओडली. वागाचेर नाचलीं. वागाचे कान ओडले पूण वाग हाल्लो ना. आतां माकडा पोरांक चेव चडलो. अख्खो वाग मस्तुवपाक

मेळ्ळा म्हणटकच तांची मस्ती वाडली.

इतल्यांत एक हुपयो, ह्या गटाचो मुखेली सकयल देंवलो. पोरांचे करणेक भुल ताणें वागाच्या नाका म्हऱ्यांत हात मात व्हेला, वागान झण्प करून एकाच धपक्य ताची गोमटी धरली आनी ताका खालो. वागाक पोरां नाका आशिल्लीं. व्हडलो हुप जाय आशिल्लो. रानांतली ही एक सत्य घडणूक.

रानांत गुंगेचीं फुलां मेळटात. माकड आनी वांस्वेल हांचें तें आवडीचें खाण. फुलां खावन झिंगिल्ल्या माकडांक वाग पिसो करता. एकदां एक माकड वेधूंद जाव झाडार बशिल्लो वागान पळयलो. वागाक भूक लागिल्ली. माकड मेळटलो कसो माकडाची ज्या जाग्यार सावळी पडिल्ली थंय तो गेलो आनी सावळे म्हऱ्यांत उ रावलो. माकडाची नदर वागाचेर गेली आनी तो कडकडलो. वागाक पळयत रावल वागान ताचे सावळेचेर नेटान पांय मारलो. तो पांय आपल्याचेर मारलो अशें समज माकड घो करून अचळय वागा म्हऱ्यांत पडलो.

जायते वेळा माकडांक लागून हरणांय हीं फुलां खावन झिंगतात. तांचे कडेन शिंगां ना सुळे. पूण हीं फुलां खातकच तीं बेधूंद जातात आनी वागा कडेन झगडपा वतात. वागाच्या आंगार झुडून वतात. फामाद रान अभ्यासक मारुती चितमपल्ली जेन्ना गोंयांत आयिल्ले तेन्ना तांणी जनावरांच्यो अश्यो खूबश्यो गजाली सांगिल्ल्यो. जनाव मनशां परस कशीं बुद्धिमान आसतात हाचीं हीं उदाहरणां. ह्या जगांत मनशां परस ब नागरीक म्हूण रानांतल्या जनावरांक मान फावता.

***

# बिबटो वाग

बिबटो वाग ही वागाची आनी एक जात. बिबटो वाग गोंयांत खूब कडेन मेळटा. ्या आंगार चित्रांत दाखयलां ते प्रमाण वांटकुळेच गुळे आसतात. तो पळोवपाक र दिसता. भांगरा कोराच्या आंगार काळे थिबके. हांव तिरुपतीक वतना दोन टरांच्या अंतराचेर रस्तो हुपतना हांवें बिबट्याक पळयला.

बिबटो वाग हो तसो खूब शक्तिमान आसता. ताच्या पांयांचीं नाखटां आनी च्या तोंडांतले सुळे हीं ताचीं शस्त्रां. बिबटो वाग झाडाचेर चडपाक तरबेज आसता. यत्या वेळा एक विरंगुळो म्हूण तो झाडाचेर चडून आडवे खांदयेर सुसेग घेता.

बिबटो हो रातचो शिकारेक भायर सरता. ताचें खाण म्हणल्यार रानांतलीं बारीक रीक जनावरां आनी पोशिल्लीं जनावरां. हो बिबटो मनशाचे लोकवस्ती लागसार पाक मेळ्ळें जाल्यार तें पसंत करता. नाजाल्यार रातचो गोरवांचे गोठे सोदपाक वता आनी बांदिल्ल्या जनावरां मदलें ल्हान जनावर म्हणल्यार पाडूक वा रेडूक ारून व्हरता. जनावराची शिकार करतना तो ताचे मानेक घांस मारता. आनी नेंतल्यान मेंदवाक रगत पावोवपी शीर तोडटा. तेच बराबर मानेचें हाड मोडटा. अशें तकच जनावर धांवपाक पावना आनी बेगीन मरता. अशा जनावराक मागीर तो स एकांतांत झोपां फाटल्यान व्हरता आनी खावपाक बसता.

बिबट्याक सुणीं खावपाक आवडटात. आनी अजापाची गजाल म्हणल्यार हरशीं णूय आयल्यार भोंकपी हीं सुणीं बिबट्याक पळयल्यार मात भोंकनात वा संकटाची

जाणीव दिनात. अशें कित्याक घडटा हो संशोधनाचो विशय. घडये हो बिबटो त
हिप्नोटायज बी करिना मूं? तुमकां ह्या सुण्यांच्या विक्षिप्त वागपाची जाप खंयूय मेव
जाल्यार जरूर कळयात.

एका बिबट्याच्या आंगावेले गुळे केन्नाच दुसऱ्या बिबटाच्या आंगावेल्या गु
कडेन जुळनात. जशे आमच्या बोटांचे ठशे जुळनात तशे तांच्या आंगावेले गुळे जुळन
हे बिबटे हालीं गांवांनी येवन हल्लो करतात. हाचें कारण जाणांत तुमी? आमी मनश
तांचीं रानां काबार केल्यांत. तांचें जेवण आशिल्लीं सावजां काबार कल्यांत. त
रावपाक सुरक्षीत रानां आयज नात. म्हणून ते गांवांनी येवपाक सोदतात. ह्या बिबट्य
सांबाळपाची जबाबदारी तुमची आमची सगळ्यांची. याद दवरात एका वेळार मन
मेल्यार उपकारता पूण बिबटो वाग मरूंक फावना. ताची राखण करपाचो सो
घेयात. बिबट्याक जिवदान दियात.

***

# चितो

चितो हो दिसपाक बिबट्या वागा भशेन दिसता. पूण बिबटो वाग वेगळो आनी चितो वेगळो. य वर्सां पयलीं हो चितो आफ्रिका, मध्य आशिया आनी हिंदुस्थानांत मेळटालो. पूण सुमारा भायली ची शिकार आनी सुरक्षीत रावपाच्या सुवातांचो अभाव हाका लागून आयज तो नामशेश जायत ल्ला. आयज तो फक्त आफ्रिक्रेंत सांपडटा. भारतांतल्यान तो पुराय नानपयत जाला.

चितो हो वागाचे जातकुळयेंतलो सुंदर प्राणी. ताच्या आंगार काळे वांटकुळे गुळे आसतात. बट्या परस हे गुळे बारीक आसतात. म्हत्वाचें म्हणल्यार चित्याच्या तोंडार दोळयां सकयल धरून ताच्या जबड्या मेरेन 'एल' आकाराची एक काळी रेग आसता. चित्याचो आंगलट शिडशिडीत सता. ताची तकली बारीक आसता. आनी पांय लांब आसतात.

ताच्या पांयांचे स्नायू मात बरेच ताकदवान आसतात. ह्यो दोनूय गजाली ताका वेगान वपाक मजत करतात. तो वराक १०० किलो मिटर वेगान धांवपाक शकता. असो तो २०० ते ३०० र्ड मेरेन धांवपाक शकता. जमनी वेल्यान धांवपी तें जगांतलें सगळ्यांत वेगवान जनावर म्हूण ताका ळखतात.

चित्याक पळयल्यार तो हिंस्त्र कसो दिसता. पूण तो बिबट्या वागा इतलो क्रूर वा आक्रमक य. बिबट्या वागाक केन्ना कोणेंय मनशाळ्ळा म्हूण आयकलां? बिबट्या वागाक तुमी केन्ना केशींत खेळ करतना पळयला? पळयला आसत पूण चुकून खंयीय एकलो.

---

चितो तसो न्हय. चितो हो सोंपेपणान मनशाळ्टा. आनी होच गूण ताच्या नाशाक क
थारता. हिंदुस्थानांत चितो आशिल्लो हो पुरावो मोगल बादशहांच्या इतिहासांत मेळ्टा. मो
बादशहा चित्यांक धरून मनशाळायताले, तांकां शिकयताले आनी तांचे कडल्यान हरणाची शि
करून घेताले. ही गजाल २०० ते ३०० वर्सां पयलींची.

चितो हो भलायकेन खूब नाजूक. पूण धांवपांत तरबेज. तो जेन्ना वराक १०० कि. मि.
वेगान धांवता तेन्ना त्याच वेगान जाय तशें वळण घेता. हें फक्त ताकाच जमता. गवो रेडो वा रानद
तसो धांवतना आपली दिका बदलपाक शकना. तें करपाक ताका रावचें पडटा. तशें चित्याचें न
ह्या कामाक ताका ताची लांब शेंपडी आदार करता. चितो हो दिसाचो शिकार करपी प्राणी. बिब
भशेन रातचो भायर सरपी न्हय. चित्याचें रावप मळांचेर. झोपा फाटल्यान वा झाडा मुळांत. चि
हो आपल्या बराबर आपल्या इश्टांक घेवन भोंवपी प्राणी. चित्याची मादी मात एकलीच रावत

इश्टांनो, तुमी चित्यान केन्ना मनशाक मारून खालो म्हूण आयकलां? केन्नाच ना!
वागाच्या कुळांतलो खरो पूण सामको भिजूड प्राणी. तो मनशाक थर्त भियेता. इतलेंच न्हय तर बि
वाग, शींव वा पट्ट्यांचो वाग हे ताका जायत्या वेळा मारून खातात. लांडगो, रानसुणीं, तरस
कोले हीं जनावरां चित्यान कसलीय शिकार केल्ले बराबर तीं तागेली शिकार झोपय मारून व्हरत
आनी चितो तांकां कांयच करपाक शकना. तो कुशीक रावता आनी तांकां पळयता. हाका ला
चित्याची उपासमार जाता. वागा भशेन वा बिबट्या भशेन चित्याक व्हडले धारेचे सुळे आसन
ताचीं नाखटांय बारीक जाल्ल्यान ताका बिबट्या भशेन झाडार चडपाक येना. सैमान ताका दि
तीं फक्त गती.

ह्या चित्याचीं पिलांय खूब नाजूक आसतात. जायत्या वेळार हे दादले चिते ह्या पिल
खावन उडयतात. चित्याची जीण फक्त १२ ते १४ वर्सां आसता. ह्या सगळ्या कारणांक लागून चि
नानपयत जावपाक लागला. आज जगांत फक्त आफ्रिकेंत फक्त ९००० ते १२००० चिते उरल्या
आफ्रिकेंतय बी चित्यांक धरून तांकां विकपी कितलेशेच दलाल आसात. तांचे नाडबुद्दीन चितो
जगांतल्यान नानपयत जावपाक चड वर्सां लागचीं नात.

***

# माकड

माकड हो प्राणी जगांत सगळे कडेन मेळटा. बर्फाळ प्रदेशांत तो मेळिल्ल्याचें वनांत ना. पूण हेर सगळे कडेन माकड पळोवपाक मेळटात. दर एका देशांत कडाच्यो वेगचेगळ्यो जाती आसात. आमी गोंयांत सर्वसादारणपणान सगळ्यांकच कड म्हणटात. तें समा न्हय. माकडांच्यो कितल्योशोच जाती आसात. दर एक जात ज्ञानीक नदरेंतल्यान हेरां परस वेगळी आसा.

माकड आनी वानर हांकां इंग्लिशींत 'प्रायमेट्स' म्हणटात. तांचे एकूण तीन ट आसात. आनी पंदरा उपगट आसात. लाजवंती वानर हो प्रोसिमियन्स ह्या गटांत सपावता. ताच दोन उपगट आसात. माकड, मंकिज ह्या गटांत आसपावता. ताचे रा उपगट आसात. आनी हुलूक गिबन हो तिसरो गट. हाचो हो एकच उपगट रतांत पळोवपाक मेळटा.

आमकां भारतांत जे माकड दिश्टी पडटात ते सगळेच माकड वा मंकी ह्या टांतले न्हय. तांचे बराबर लंगूर वा वानर होवूय प्रकार आमकां पळोवंक मेळटा.

गोंयांत आमकां जे माकड दिश्टी पडटात ते माकड म्हणचे परस ते वानर ह्या टांत मोडटात. काळ्या तोंडाचे वानर हे गोंयांत खूबश्या खेड्यांनी दिश्टी पडटात.

मराठींत तांकां 'काळतोंड्या' म्हणटात. हे वानर कळपांनी रावतात. तांकां लांब शे
आसता. हे वानर बरेच ऊंच आसतात. बशिल्ले अवस्थेंत तांची उंचाय अडेच ते
फूट आसता. तांची शेंपडी तीन ते साडे तीन फूट लांब आसता. तांचें वजन ९ ते
कील मेरेन आसता. ह्या वानराक जायते कडेन हनुमानाचो वंशज म्हूण वळखत
देखून ह्या वानरांचो कळप जेन्ना घराचेर येवन बसता वा भाटांत वा कुळागरांत य
फळांची, झाडांची नाशाडी करता तेन्ना ताका हनुमानाचो अवतार मानून ओगी रावत
गोंयांत अश्या घरांचेर येवन उडकी मारपी वानर खेड्यांनीच पळोवंक मेळटात. हे व
जेन्ना चारय पांयांचेर चलतात तेन्ना तांच्यो शेंपड्यो ते कवळून आपले फाटी व
अधांतरीं धरतात. ह्या वानरांक जे हात वा पांय आसतात तांकां लांब पांच ब
आसतात. हीं बोटां मनशाच्या बोटां भशेन आसतात. कसलेंय फळ वा पालो खात
ह्या पांयांच्या बोटांनी ते खांदयेक घट्ट धरतात. ते भायर जर गरज पडली जाल
आपले शेंपडेचो वेंटाळो झाडाचे खांदयेक घालून ते स्वताक सकयल पडपा प
वाटावपाक शकतात.

रानांतलो माकड आनी ताचो पंगड हो तणाचेर जियेवपी हेर जनावरांचो मि
आसता. वानरांचो वावर हो झाडाचेर बरोच उंचायेचेर आसता. वानरांक वजन च
नाशिल्ल्यान तांकां कितलेय बारीक खांदयेर वचपाक भंय दिसना. वेल्यान ताका सैम
एक देणगी दिल्या. वानर जेन्ना एके खांदयेवेल्यान दुसरे खांदयेर उडी मारता ते
ताच्या पेजान खांदी तुटची न्हय म्हूण तो आपलें वजन त्या वेळार उणें करता. बारी
खांदयांचेर बशिल्ल्यान बिबटो झाडार चडपाक येवन पसून वानरा म्हऱ्यांत पावपा
शकना.

जेन्ना वानर झाडाचो पालो खावपांत गुल्ल आसतात तेन्ना तांचो मुखेली झाडा
तेंगशेर वचून पालो खावपाक बसता. ताचे कान आनी दोळे सामके सादूर आसता
रानांत खंयीय आवाज जालो जाल्यार तो व्हडल्यान वेगळोच आवाज काडून सगळ्यां
सादूर करता. रानकुत्रो, वाग, बिबटो हांचो तांकां चड भंय आसता. ताच्या ह्या गुणां

ागून हरणां, चितळां, गवे रेडे निर्धास्तपणान त्याच झाडाच्या मुळांत चरतात. हातूंत ावो दोट्टी फायदो आसता. एक म्हणचे वानर पालो, फुलां तोडटा तेन्ना तांगेले ाबडीक लागून अर्दो सकयल पडटा. हो पालो खावपाक ह्या हरणांक आवडटा. ते ायर हिंस्त्र जनावर येता म्हणपाची शिटकावणी दिवपी वानराचो सभाव तांका सतर्क ारता.

वानरांच्या पंगडांत एकच मुखेली आसता. तो दादलो आसता. हेर सगल्यो ायलों आसतात. पंगडाचो मुखेली आपल्या पंगडा खातीर एक शीम आंखता. नव्या ाठारांत आयले उपरांत तो तीन ते चार कि. मि च्या आवाठांत कांय झाडांचेर मुतत ना. ताच्या वासान तो आवाट ताचो अधोरेखीत जाता. जर दुसऱ्या कोणाकूय ह्या ाठारांत येवपाक जाय जाल्यार त्या वानरान ह्या पंगडाच्या मुखेल्या कडेन झूज करचें डटा. जो जिखता ताका ह्या वाठाराची आनी बराबर आशिल्ल्या पंगडाची मालकी ळटा.

पंगडांतल्या वानरणींक मात हाचें सोयर सुतक आसना. ती चडशीं झगडपाकय नात आनी आपखोशयेन नव्या मालकाच्या अधिकारा खाला वावरूंक लागतात. ह्या ळार जायते खेपे नवो मालक पंगडांत आशिल्ल्या नर पिलांक मारून उडयता. पिरायेंत ायिल्ल्या नरांक धांवडावन घालता. वानरणी ताच्या म्हऱ्यांत वतात आनी ताच्या ांगावेल्यो हुलको वा हेर जीव मारपाक सुरवात करतात. तुजें स्वामित्व आपल्याक ान्य आसा अशें सांगपाचो हो शिश्टाचार.

वानरां भितर आपली संतत हिसपा भायर वाडची न्हय हाची जबाबदारी मुखेल ानर बरे तरेन सांबाळटा. पंगडांतले एकेच वानरी कडेन ताचो संबंध आसता. आपल्या गडांतले नर वानर जवान जावपाक लागले तशे तो तांकां धांवडावन घालता.

ह्या वानरांक उदक खूब लागता. पूण ते व्हडले न्हंयेचेर वा पाण्ट्याचेर उदक ायेवपाक वचपाचें धाडस करिनात. कारण, वाग आनी रानकुत्रे तांची शिकार सादपाक ायते खेपे अशा उदकाच्या कांठार लिपून बशिल्ले आसतात. तेच बराबर उदकांतलें

मानगें हेंवय तांचें दुस्मान. म्हणून वानरांचो पंगड रानांतले ल्हान ल्हान उदकाचे वापरता. गीम सुरू जातकच हें उदक सुकता. देखून ताका व्हडल्या सांठ्या कडे न्हंयेचे देगेर वचपा बगर पर्याय उरना. हांगा येतना तो खूब सादूर आसता. आपलो पंगड घेवन न्हंयेचे देगेर येवन व्हडल्या झाड़ाचेर बसतात. त्या झाडा वेल्यान वाठाराचें निरिक्षण करतात. खंयूय धोको दिसल्यार झाडारच रावतात. सगळें आसा अशें दिसलें जाल्यार तांचो मुखेली पयलो उदका कडेन वता. आनी देगेर भोंवतणचें निरिक्षण करता. वानर उदक पियेतना दोनूय हात जमनीक तेंकयता उदकाक तोंड लावन पियेता.

हे परिस्थितींत ताचेर फाटले वटेन कोणेंय घुरी घाली जाल्यार तो क करपाक शकना. देखून तो सादूर रावता. ताका आदार करपाक वानरीण सकयल आनी ताचे वटेन फाट करून बसता, आनी रानाचेर नदर दवरता. वानर उदक पिये कांय खीण सेगीत थांबनासतना उदक पियेता आनी उदक पियेवन जातकच ध परतो झाडार वता. वानरिणीचे देखरेखी खाला हेर पिलां, पंगडाचे हेर वांगडी ए करून ओळीन उदक पियेवपाक येतात. त्या प्रत्येकाची उदक पियेवपाची सु मुखेल्या परस वेगळी आसता.

सगल्यांत निमाणें वानरीण आपलो मुखेली जंय उदकाक तोंड लावन उ पियेला त्याच जाग्यार उदक पियेता आनी झाडार परतता. तांचे फाटोफाट रानांतलीं जनावरां उदक पियेवपाक येतात. पूण खूब उण्या वेळा उदक पियेवपाक आयिल्लीं त जनावरां एकमेकांचेर झडप घालतात. घडये उदक पियेवपा वेळार तीं एकमेका आदर करतात जावंये. मानग्याक मात हो कायदो लागना. तें सदांच उदक पियेवप आयिल्ल्या जनावरांचेर घुरी घालता.

***

# तरस वा योवल

तरस हो प्राणी सदांच दुर्दैवी. कोंकणींत ताका योवल अशेंय म्हणटात. ताका ग्लिशींत Hyena म्हणटात. योवलाक हिंदींत एक बरें कॉमीक नांव आसा, 'लकडबघ्घा.' शें पळोवंक गेल्यार तरस हो सामको विद्रूप प्राणी. पूण तो रान कितलेंशेंच निवळ वरता. तरसाचे मुखावयले पांय लांब आसतात आनी फाटले मातशे मोटवे. ताका ागून ताका धांवपाक बऱ्याक पडटा.

हें तरस सदांच कळपांनी रावता. ताच्या कुटुंबाची राखण करपाक आनी लांची राखण करपाक तांच्या गुटांतली जाणटी मादी फुडाकार घेता. ती पिलांक वन बसता. ते म्हणसर हेर तरस कासाक वचून सावज घेवन येतात आनी ते ाणटेलेचो वांटो तिका दितात. तरसाक सैमान घटमूट सुळे आनी दाढो दिल्यात. हेर नावरांक जीं हाडां फोडपाक येनात तीं हाडां तरस सहजतायेन फोडटा. रानांत हेर नावरांनी मारिल्लीं जनावरां कुसपाक लागचे पयलींच तरस तीं खावन उडयता. ताका ागून रानांत कसलेच रोग पातळनात.

तरसाक रानांत खूब म्हत्व आसा तें हाकाच लागून. ताका रानांतलो Scavenger हणटात. तरस दीस भर बिळांत वा जमनीचे घोलींत न्हीद काडटा आनी रातचें वावपाक सोदपाक भायर सरता. ताचें चडशें खाण उश्टें. वागान वा हेर जनावरांनी

खावन उडयल्लें. खूबशे फावटी चितो, वाग आपली शिकार खावपाक बसता
ताका धांवडावन तें ताची शिकार खाता वा घेवन पळटा. तरस आपूण शिकार
उणी करता. ताणें शिकार केलीच जाल्यार तिवूय बी बोकडी, मेढरां वा सुण
गांवांत रातचें भितर सरून ताणें अश्यो शिकारी केल्ल्याचीं उदाहरणां आसात. तर
आवाज रातचो आयकूंक मेळटा आनी तो जुस्त मनीस हांशिल्ले भशेन आसता.

वाग वा शिंवा सारखेलीं जनावरां जेन्ना आपणें मारिल्लें जनावर खा
वतात तेन्ना तरसां तांकां धांवडावपाचो यत्न करतात. ह्या वेळार हे वाग आनी
तरसा परस शक्तिमान आसून लेगीत पळ काडटात. हाचें कारण तांची शक्त
तरसाच्या तोडांत असंख्य रोगजंतू आसतात ताचो ह्या वागांक भंय दिसता. तरसा
तांकां घांस मारलो जाल्यार हीं शक्तिमान जनावरां गेंगरीन जावन मरतात. ह्या भं
फायदो योवलांक मेळटा आनी तांच्या पोटाची व्यवस्था जाता.

तरस चडशें उक्त्या मळार, झोपांच्या आडसाक रावता. नॅशनल जिऑग्राप
तरसांच्यो जायत्यो कार्यावळी पळोवंक मेळटात. कळपांत रावतल्या तरसाची
खेरीत लक्तुबाय. तांणी मेळयिल्ली शिकार व्हड आसूं वा धाकटुलो सोंसो आस
समान वांटून खावपाचो तांचो भावबंदकीचो नमुनो मनशान आपणावपा सारखा

***

# हरणांच्यो जाती

रानांतल्या जनावरां मदीं 'हरण' हें जनावर खूब सुंदर. हरणांतल्यो सगळ्योच जाती सुंदर ासतात अशें न्हय. पूण चडशो जाती सुंदर आसतात. हरणां जशीं भारतांत पळोवंक मेळटात तशींच ां हेर देशांतय पळोवंक मेळटात.

हे धर्तरेचेर हरणांच्यो २०० वयर जाती आसात. तातूंत मागीर पोट जातीय आसात. हरशीं रणांचें रावपाचें, वावुरपाचें ठिकाण उक्त्या मळार. रेंवटांत, उदका लागीं, बर्फाळ प्रदेशांत, अटंग्य नांनी, दोंगरांनी, झोपांच्या रानांनी वा तण आशिल्ल्या मळांनी अशीं खंयूय हरणां सांपडटात.

हरणांचो रंग ऋतू प्रमाण बदलता. सगल्याच न्हय पूण कांय हरणांचो बदलता. सगळ्याच रणांचें पोट आनी छाती धव्या रंगाची आसता. आमी जांकां हरणां म्हणटात तीं विज्ञानीक नदरेन दोन तरांचीं आसतात. ॲण्टिलॉप आनी डियर. शास्त्रज्ञांनी हरणांचें वर्णन पांच कुळांनी केलां. १. गवयाद्य २. सारंगाद्य ३. ट्रॅग्युलिडी ४. मॉस्चिडी ५. ॲन्टिलॉकेप्रिडी.

गवयाद्य कुळांत सगळीं कुरंग हरणां. सारंगाद्यांत सगळीं सारंग हरणां. ट्रॅग्युलिडी कुळांत पिसोरा वा आहेडा हीं हरणां. मॉस्चिडी हातूंत कस्तुरीमृग हें एकूच हरण आसा. ॲन्टिलॉकेप्रिडी कुळांत प्रॉंगहॉन हें अमेरिकन हरण येता. ह्या हरणाचें आनी एक वर्गीकरण आसा. तें म्हणल्यार कुरंग आनी सारंग. कुरंग म्हणल्यार ॲण्टिलॉप आनी सारंग म्हणल्यार डियर. परतून ह्या वर्गांत येवपी हरणांचीं नांवां वेगवेगळीं आनी तांची दांतांची आनी शरिराची ठेवण वेगळी आसता. ह्या हरणां मदीं कांय

हरणांच्यो जाती रवंथ करणाऱ्यो आसतात. ताका लागून तांची शारिरीक रचना आसता.

हरणां हो विशय बारकायेन शिकपा सारखोच. हरणांच्यो जाती इतल्यो आसात सगळ्यांची म्हायती हांगां दिवप शक्य नाशिल्ल्यान फक्त थोड्या हरणाची म्हायती दिल्या.

***

# पिसय

हरणांतल्या सगळ्या जातीं भितर सगळ्यांत ल्हान हरण म्हणल्यार पिसोरी/उंदीर हरण (मराठी), माऊसडियर वा चिव्हरोटॅन (इंग्लीश) पिसोरा/ पिसुरा (हिंदी). ह्या हरणाचें शास्त्रीय नांव 'ट्रॅग्युलस मेमिन्ना' अशें आसा.हें हरण सामकें ल्हान आसता. ताच्या खांद्या कडली उंची फकत १० ते १२ इंच आसता. ताचें तोंड हुंदरा भशेन आसता. ह्या अशा आकाराक लागून तें रानांत भोंवतना सोंशा भशेन दिसता..

ह्या हरणाक कोंकणींत पिसय म्हणटात. ताच्या आंगाचो वेलो भाग गाढ रंगाचो आसता. ताचेर धवे थिपके आसतात. कांय थिपक्यांच्या लांबट आकाराक लागून ते पट्टे कशे दिसपाक लागतात. हेर हरणां वरी पिसयेचो पोटा कडलो भाग (पोंदच्यान) धवो आसता. ताच्या गळ्यार तीन धव्यो लायनी आसतात. ताचे कान हुंदरा भशेन ल्हान आसतात. पूण ते वयर आयिल्ले आसनात. दोळ्या भोंवतणचो भाग धवो आसता. हें हरण मातशें बाग घेतिल्ले वरी दिसता.

पिसोरी वा पिसय हें हरण फांतोडेर वा तिळसांजचें चरता. ताचें खाण म्हणल्यार तण वा कांय झोपांचीं पानां. ताका हेर हरणां भशेन फकत वेल्या जबड्याक दांत आसतात. हें हरण मेरेच्या आडसाक वा फातरांच्या आडसाक चरता. ताचें नाक, कान आनी दोळे खूब शिटूक आसतात. ताच्या दुस्मानाचो ताका रोखडोच वास येता.

आनी तें आपल्याक वाटावपा खातीर वा आपले राखणे खातीर लिपून राव
आकारान ल्हान आशिल्ल्यान ताचे थिपके कोणाकूच दिसनात. शक्य आसल्यार
झाडाच्या घोलींनी वचून लेगीत लिपता. तें थंय कशें चडटा हो एक संशोधनाचो विश
कारण ताच्या पांयांक बोटां, नाखटां आसनात. ताका आसता फकत एक ख
रानांतलो बिबटो वाग, रानकुत्रे, लांडगे आनी कोले हे ताचे शत्रू. आनी मनीस
सगळ्यांत व्हडलो शत्रू.

***

# चिंकारा

चिंकारा हें हरण खूब सुंदर. हाका कोंकणींत वेगळें नांव ना कारण गोंयांत तें ाळना. मराठींत आनी हिंदींत ताका चिंकाराच म्हणटात. इंग्लिशींत 'इंडियन गॅझल' हणटात. प्राणिशास्त्रांत ताका 'गॅझेला' म्हणटात.

चिंकारा हो काळविटा परस ल्हान आसता. ह्या चिंकाराची पुराय वाड २६ इंचां ारस चड आसची ना. ताचें वजन लागीं लागीं २० ते २२ कील मेरेन जाता. हातूंतल्या नर हरणाचीं शिंगां व्हड आसतात. हीं शिंगां १० ते १२ इंच लांब आसतात. जाल्यार ांच्या बायल हरणाचीं शिंगां पांच इंचा मेरेन लांब आसतात.

चिंकारा हें हरण चडशें वाळवंटी प्रदेशांत मेळटा. चड करून राजस्थानांत. चिंकाराचे कुडीचो बांदो मोटवोसो आनी भरिल्लो आशिल्ल्यान तो खुबूच सुंदर दिसता. नर आनी मादी ह्या दोगांय मदीं रंगाचे बाबतींत फरक आसना. चिंकाराचीं शिंगां हीं 'S' ह्या व्यंजनाच्या आकारा भशेन वळिल्लीं आसतात. मादीचीं शिंगां तशींच पूण ल्हान आसतात. चिंकारा हें हरण उदका बगर खूब तेप रावंक शकता. तें चडशें झोंपां आशिल्ले सुवातेर रावता. ताचें चरप सकाळचो फांतोडेवो वेळ आनी तिळसांज धरून ते रात मेरेन. दनपारचो तो वतांत भोंवता पूण चडसो खंयच्याय झाडामुळांत सुसेग घेतना दिसता.

चिंकारा हो चडसो कळपान रावता. धांवपाक तरबेज आनी ताचे कान, आनी दोळे तिक्ष्ण आसतात. हें जनावर मात बरेंच चवकस आसता. शत्रू पसून धांवप होच ताचो बचाव. एका जाग्यार धोको जाणवतकच तें कळप उधळायता अ १०० ते २०० मिटर पयस वचून रावता. एका कळपांत चार ते पांच चिंकारा आसत चिंकाऱ्याक दोळ्यां सकयल ग्रंथी आसतात. आनी पांयांच्या खुरां कडेन एक आसता. जेन्ना ताका आपली शीम आंखपाक जाय तेन्ना तो ह्यो ग्रंथी वापरता. वाठारांत मागीर दुसरो चिंकारा येवपाक धजना. चिंकारा हो मनशाक थर्त भियेता. हरणां जे तरेन मनशाळटात तसो चिंकारा केन्नाच मनशाळना

***

# मेरू

गोंयच्या रानांनी मेरू नांवाचें एक हरण मेळटा. मेरू ह्या हरणाक मराठींत सांबर म्हणटात वा ढाक म्हणटात. इंग्लिशींत सांबर, हिंदींत सांबर वा सामर म्हणटात. हाचें शास्त्रीय नांव 'सेर्व्हस युनिकोलर.' भारतांत मेळपी हरणां मदीं सांबर वा मेरू हें सगळ्यांत व्हडलें हरण. हो मेरू सदांच सादूर आसता. ताचे दोळे, कान आनी नाक ताका ह्या कामाक मजत करतात. मेरवाचो रंग मातयेकोराचो आसता. कांय वेळार जाणटो जाल्लो मेरू काळसार रंगाचोय आसता. चार वर्सांचो जातकच मेरवाची वाड पुराय जाता वा तो जवान जाता. ताच्या माथ्यावेलीं शिंगां हें ताचें भुशण. मेरू हो हरणांचे जातींतलो जाल्ल्यान ताचीं शिंगां हीं कायम नासतात. पोरणीं शिंगां गळून वतात आनी दरवर्सा नवीं शिंगां येतात. तांचीं शिंगां गळपाचे मोसम भारतांत वेगवेगळे आसात. सादारणपणान दर एप्रील म्हयन्यांत हीं शिंगां गळटात वा सुटून पडटात. आनी मे म्हयन्याच्या मध्याक नवीं शिंगां येवपाक सुरवात जाता.

मेरू आपलो कळप घेवन उदकांत पेंवतना जायत्या वेळा दिसता. ताका उदकांत पेंवपाक वा तकली वयर दवरून बसपाक आवडटा. उदकांतली वनस्पत खावपाक आवडटा. उदकांत आशिल्ल्या मानग्यांचो ताका भंय दिसना. खूब खेपे उश्णतायेचो त्रास वा जळारां वा हुलको हांचो त्रास जावचो न्हय म्हूण मेरू रेब्यांत लोळटा. रेब्याचो दाट थर आंगार काडून भोंवता.

मेरू हो मिलन काळांत आपली शीम आंखता. ही शीम आंखपाक तो अ तोंड झाडाच्या काणाचेर घांसता. ह्या वेळार ताच्या दोळ्यां कडल्यो ग्रंथी पाझ आनी तातूंतलो द्रव ह्या काणाचेर सारवता. ह्या वासान मादी ताका सोदत सोदत आनी हेर नर संघर्श टाळपाक वेगळे कडेन वतात.

गोंयांत मेरवाची शिकार जाता ती ताचे शागोतेक लागून. गोंयांतलो मेरू अ नश्ट जायत चल्ला.

***

# चितळ

हरणांच्या प्रकारांत आनी एक सुंदर हरण आसा. तें म्हणल्यार चितळ. चितळ हें खूब शिटूक आनी सुटसुटीत अशें हरण. भारतांतल्या सगळ्या हरणां मदीं चितळाक सुंदरीचो मान मेळटा.

हिमालयाच्या मुळसांत मध्यप्रदेशांतल्या आनी महाराष्ट्रांतल्या अटंग्या रानांत आनी गोंयच्या कांय रानांनी चितळांचो वावर आसा. बोंडलाच्या प्राणिसंग्रहालयांत आमकां हीं चितळां म्हणल्यार थिपक्यांचीं हरणां पळोवंक मेळटात. तण आशिल्लीं आनी उक्तीं मळां हें ह्या चितळांचें आवडटें ठिकाण. अश्या मळांचेर तांकां जाय तशें तण खावपाक मेळटा आनी खंयचेंय जनावर तांकां खावपाक येवपाचें आसत जाल्यार ताची सुलूस तांकां लागता आनी त्या प्रमाण स्वसंरक्षणार्थ तांकां धांवपाक मेळटा.

रामायणांत एका कांचनमृगाचो उल्लेख मेळटा. कांचनमृग म्हणल्यार भांगरा रंगाचें हरण. चितळाकच रामायणांत कांचनमृग म्हणलां. ह्या हरणाचें आंग भांगरा कोराचें आसता. ताच्या आंगार धव्या रंगाचे थिपके आसतात. ह्या धव्या थिपक्यांक लागून तांचे सुंदरकायेंत भर पडटा. मराठींत हाका चितळ म्हणटात, इंग्लीशींत ताका स्पॉटेड डियर म्हणटात. ह्या प्रकारचीं हरणां 'ॲक्सिस ॲक्सिल' हे जातींत येतात.

ह्या चितळांचो भांगराचो रंग आनी ताचे वेले धवे थिपके रानांत ताच्या रक्षणाक

आदार करतात. तें जेन्ना रानांत झाडां फाटल्यान वा झोपां फाटल्यान चरता तेन्ना त
थिपक्यांक लागून नदरेक येना. अशे तरेन जंगली दुस्माना पसून ताची सुटका ज

रानांतले वाग, बिबटे, रानकुत्रे आनी अजगर हे ताचे दुस्मान. अजगर
धूर्तपणान हरणाची शिकार करता. अजगराचो रंग रानांतल्या लाकडाच्या रंगा क
जुळटा. हाका लागून हरणाक तें लाकूड अशें दिसता आनी अजगर आपल्याक
लागिल्ल्या वेळार ताचेर अचूक घुरी घालता. हरशीं खूब सादूर रावपी चितळ
अजगराक बळी पडटा.

***

# काळवीट

काळवीट हें पुराय भारतीय हरणां मदलें 'हँडसम' अशें हरण. ताची सुंदरकाय इतली भावता कीं ताचेर परत परत नवें नवें बरयन दिसता. तज्ञांच्या मतान भारतीय काळवीट हो पृथ्वी वेलो एकमेव कुरंग म्हणल्यार ट्रू ॲण्टॅलॉप (True Antelope). ह्या काळविटाक एका वर्साचो जातकच शिंगां येतात. दुसऱ्या वर्सा शिंगांक पीळ येता आनी तिसऱ्या वर्सा शिंगांक कडें येवपाक सुरवात जाता. काळवीट स वर्सांचो जातकच ताचो रंग काळो जाता. काळविटाचे मादीचो रंग मात बदलना. तो गाढ तपकिरीच उरता.

काळविटाक इंग्लिशींत Black Buck वा Indian Antelope म्हणटात. काळविटाचीं शिंगां 'व्ही' ह्या इंग्लिश अक्षराच्या आकाराचीं आसतात. ताका तीन ते पांच मेरेन कडीं आसतात. क्वचीत खंयूय स कड्यांचीं शिंगां पळोवंक मेळटात.

काळविटांच्या कळपाक संकटाची सुलूस लागतकच तातूंतले जाणटे गडे आपल्या जाग्या वेल्यान ऊंच उडी मारतात. हाचे वेल्यान हेरांक संदेश मेळटा आनी काळविटांक पयसुल्लें पळोवन खंयच्यान पळपाचें तेंवूय थारावंक मेळटा जावंये. काळवीट वराक ८० कि. मि. ह्या वेगान धांवता. बरीं बरीं शिकारी सुणीं तांकां धरपाक तो समर्थ थारता. राजा अकबराच्या काळांत काळविटाची शिकार करपाक प्रशिक्षीत चित्यांचो वापर करताले. जमनी वेल्यान तेज धांवपांत चित्या फाटोफाट काळविटाचो नंबर लागता.

काळविटाक उदक खूब उणें लागता. काळवीट उदक पियेना अशेंय एक मत आसा पूण हाका पुरावो ना. काळविटाक दंवांच्या थेंब्यांतल्यान जें उदक मेळटा तें पुरो

जाता. राजस्थानांतले कांय समाज ह्या हरणाक देवा समान मानतात. तांचें रक्ष
करतात. आपणें रोयिल्लीं शेतां ह्या हरणांनी खाल्यार ते स्वताक धन्य समज
कृष्णमृग हो एक हेच जातकुळयेंतलो काळवीट.

***

# प्रॅांगहॉर्न

प्रॅांगहॉर्न हरण अमेरिकेच्या रानांनी मेळटा. हें हरण हेर हरणां परस वेगळें. ताची जातकुळी ॲन्टिलॉकेप्रिडी (Family Antilocapridae) ह्या वर्गांतली. ह्या वर्गांत हें एकमेव हरण मेळटा. हें हरण, सारंग वा कुरंग ह्या खंयच्याच वर्गांत बसना. ह्या हरणाचे कुडीची रचणूक वेगळी.

ह्या हरणांत नर आनी मादी दोगांकय शिंगां आसतात. हीं शिंगां तांचे कवटेच्या हाडांतल्यान भायर सरतात. ह्या शिंगांचेर एक वेगळें आवरण वा चामडी आसता. ती दर वर्सा गळून पडटा आनी नवी येता. ह्या हरणाक दर खेपे दोन पिलां जातात. ह्या पाडकांची राखण योग्य तरेन जावची म्हूण तांची आवय तांकां तणांत लिपयता. दोगांयं पिलांक म्हऱ्यांत दवरिनासतना तांकां वेगळे वेगळे सुवातेर दवरता. कोणूय शत्रू तांकां खावपाक आयलो जाल्यार त्या शत्रूक फटोवन हें हरण पिलांक पयस व्हरता आनी पिलांक तांचे पसून वाटायता.

ह्या हरणाचो पळपाचो वेग (speed) वराक १०० कि. मी. आसता. सगळ्या चार पांयांच्या जनावरां मदीं तांचो नंबर दुसरो लागता. पयलो नंबर चित्याचो. ज्या हरणाक पिलां जायनात तांचो वेग हाचे परस चड आसता. पिलां कांय दिसांचीं जातकच तीं पसून वराक ४० कि. मी. वेगान धांवपाक शकतात.

हीं हरणां आवाज करिनासना चरतात. पूण तांकां सैमान एक वेगळीच दे
दिल्या. तांच्या कुल्यांचेर लांब केंस आसतात. तांकां जेन्ना दुसऱ्या हरणाक भंय
शिटकावणी दिवपाची आसता तेन्ना तीं हरणां हे केंस फुलयतात. हे केंस फुलून
जातात आनी पाकळ्यांचें कमळ दिसपाक लागता. हें कमळ बऱ्या उजवाडांत ५ ते
किलो मिटरां वेल्यान लेगीत दिसपा इतलें ठळक आसता.

ह्या हरणांचो खरो दुस्मान झेल. जेन्ना खूब झेल पडटा तेन्ना हीं हरणां खावप
मेळनासून मरून वतात. हरशींच्या वेळार लांडगे, कायोट, कुगर आनी गरूड हे त
शत्रू. रानाच्या चक्रांत कोण कोणाचो शत्रू नासता आनी कोण कोणाचो इश्टय नास
ह्या हरणांक मात हरणांच्या गटांत खाशेलें स्थान आसता.

***

# रेनडियर

हरणां जगभर पळोवंक मेळटात. जशीं रेंवटांनी मेळटात तशीं बर्फाळ प्रदेशांतय मेळटात. उत्तर ध्रूव हो संवसारांतलो सामको बर्फाळ प्रदेश. हांगा वर्सांतलो चडसो काळ बर्फच आसता. हांगाय हरण मेळटा. ताका रेनडियर वा कॅरिबू म्हणटात. हो सारंगाचे जातकुळींतलो प्राणी. हें हरण मनशाळपाक मेळटा. मनशाळिल्ल्यांक हांगा रेनडियर म्हणटात.

ह्या रेनडियराचें एक खाशेलेंपण म्हणल्यार हेरवीं सारंग कुळांतल्या खंयच्याय मादी हरणाक शिंगां येनात. हांव म्हणटां तीं दर वर्सा गळून पडपी शिंगां. पूण रेनडियराच्या मादयांक शिंगां येतात. आनी तीं सुंदर दिसतात. ह्या शिंगांक हाता भशेनच पंजे आशिल्ल्यान तांच्या आदारान ताका बर्फ वा झेल उस्तून मुंगरिल्लीं झाडाचीं पानां, अळमीं वा शेळो खावंक मेळटा. तांच्या पांयांचे खूर बरेच व्हड आसतात. तांकां एके वटेच्यान धार आसता. तिचे आदारान हीं हरणां झेल फोडटात. ह्या रेनडियरांचें नाक बरेंच तिक्ष्ण आसता. तीं मनशाचो वास आयले बराबर पयस पळटात.

कॅरिबू हो सदांच कळपांत रावपी प्राणी. आनी तो नेमान चुकनासतना स्थलांतर करता. एका जाग्यावेल्यान दुसऱ्या जाग्यार वता. ह्या कळपांत हजारांनी कॅरिबू आसतात. स्थलांतर करतना तो सतत धांवत आसता. तांचें स्थलांतर करपाचें अंतर शेंकड्यांनी मैल पयस आसता. पूण ते दर दिसा थांबनासतना धांवतात आनी रानांनी वतात.

मेगीत चार चार दीस हो कळप असो धांवत आसता.

रेनडियराक बर्फांतलो ऊंट म्हणटात. ताच्या आंगाचो दर एक अवयव उपक पडटा. ताचो आनी बर्फाळ प्रदेशांत रावपी मनशांचो खूब पयलीं सावन संबंद आस ताचें दूद ते च्याक वापरतात. मनशान कॅरिबूक केन्ना सावन मनशाळ्ळो हें सांग कठीण; पूण चिनी लेखनांत ४९९ वर्सां सावन मनशान कॅरिबूक मनशाळ्ळा अशी नों मेळटा.

रेनडियर वा कॅरिबूच्यो कांय जाती आसात. देखीक बॅरन ग्रावंड कॅरिबू, कडलॅन कॅरिबू आनी ओल्ड वर्ल्ड कॅरिबू. उत्तर कॅनडांत जो पडंग वाठार आसा थंय बॅरन ग्रावं कॅरिबू मेळटा. हो कॅरिबू १०० ते १५० सें मि. ऊंच आसता आनी ताचें वजन ९० किल सावन ३०० किलो मेरेन आसता. हाचीं शिंगां खूब सुंदर आसतात.

ओल्ड वर्ल्ड कॅरिबू हो युरोप आनी सायबेरियांत पळोवपाक मेळटा. ह्या हरणाव आतां चडश्या मनशांनी मनशाळून स्वता खातीर वापरपाक सुरवात केल्या. ताक लागून ह्या सारंगाचो हो वंश रेनडियरांत जमा जाता. रेनडियर ह्या उतराचो अर्थ तणाचे पोसून वाडयिल्लीं जनावरां.

ह्या रेनडियरांचो उपेग गाडी/तेर ओडपाक करतात. हे रेनडियर दरएकीं ४० किलांचें वजन व्हरपाक शकतात आनी दिसाक ६० ते ६५ कि. मि. चलपाक शकतात ९ ते १० रेनडियर एकठांय करून 'स्लेज' नांवाचो रथ तयार करतात. असो रथ २०० किलांचें वजन ओडपाक शकता. 'स्लेज' म्हणल्यार झेला वेल्यान निसरत वचपी गाडी तिका चाकां आसनात.

उत्तर ध्रुवाचेर रावपी मनीस ह्या रेनडियराचो पुरेपूर उपेग करून घेता. ताचे मांस ताच्या जेवणांत वापरता. रेनडियराचें मांस बरेंच रुचीक आसता. रेनडियराच्या मांसाचो उपेग सूप करून पियेवपाक वापरतात. व्हडलीं हाडां फोडून तातूंतलो बोन मॅरो खातात. पांयांच्या हाडांच्यो नळयो आनी शिंगां सुऱ्याच्यो मुठी करपाक वापरतात.

चामड्याचो उपेग कोट, पॅण्टी, हाताक घालपाचे ग्लोव्हस, पिशव्यो अश्यो वस्तू करपाक कपड्या भशेन वापरतात. कपलाचें हाड बुटांची खोंट करपाक वापरतात. रेनडियराच्या दुदाचे चार थेंब घाल्यार एक कप च्याची वेवस्था जाता. एका वेळार एका हरणा पसून फकत अर्द कप दूद मेळटा. ह्या कॅरिबूचीं शिंगां वेगळ्या वेगळ्या कामां खातीर वापरतात. देखून ह्या कॅरिबूक बर्फांतलो ऊंट म्हणटात.

***

# हरणांवी शिकार/पद्दत

इश्टांनो, रानवटी प्राण्यांची शिकार करपाचेर हांव सामको कोंत्र. हांव ही घडणूक मनशाच्या खुना परसय चड खर, चड क्रूर अशें मानतां. अशें आसतनाय हांव शिकारेच्यो कथा वा लेख वाचतां. कारण तातूंत जनावरांचे बांरकावे मेळटात. ह्या विशया वेलें लेखन वाचतासतना म्हाका हरणाची शिकार करपाचे तीन प्रकार मेळ्ळे. हें हांव इतल्याच खातीर बरयतां कीं जर तुमकां केन्नाय असो प्रकार दिश्टी पडलो जाल्यार बेगोबेग रान अधिकाऱ्याक कळीत करात आनी हो प्रकार बंद करपाक लायात. भारतांत रानवटी जनावरां मारपी एक समाज आसा. तांकां फांसेपारधी म्हणटात. आयज ह्या समाजाचें पुनर्वसन जालां. पूण तांचे पद्दतीन हेर शिकारी शिकार करतात. हे लोक रानांत वचून हरणांचो कळप खंय आसा तो सोदून काडटात. हो कळप जे दिकेन वता ताचो अभ्यास करतात. त्या वाठारांत फांस लावन दवरतात. पोशिल्ल्यो गायो बराबर व्हरून तांच्या आडसान हरणांक गायांचे वटेन आमुडटात. हरणां हीं सादीं भोळीं आसतात. तीं गायांचे दिशे प्रमाण आपलो मार्ग बदलतात. जंय फांस लागिल्लो आसा ताच्या दोनूय वटांनी बुजगावणें आशिल्ल्यान हरणां अचूक त्या फांसांत सांपडटात.

कांय जाणां कडेन पाळिल्लीं हरणां आसतात. ह्या हरणांच्या शिंगांक फांसे बांदिल्ले आसतात. ह्या हरणांक हे शिकारी रानवटी हरणां कडेन झुजपाक धाडटात. जेन्ना ह्या हरणांचीं शिंगां एकमेकांक आपटतात तेन्ना तांचीं शिंगां फारवतात. हे शिकारी मागीर तांकां धरतात.

कांय हरणां सदांच एका थारावीक जाग्यार सुसेग घेतात. हो जागो
झाडाच्या मुळांत आसता. शिकारी तें झाड मारतात आनी थंय एक फोंड मारतात.
फोंडांत ह्या झाडाची मुणारी अळंग तेंकोवन दवरतात. सदां भशेन हरण येता. हरण
मुणारेक झाड समजून तेंकपाक वता आनी फोंडांत पडटा. फोंड व्हड आशिल्ल
ताका वयर येवपाक मेळना. ताका हे लोक येवन मारतात आनी ताची कात, शिं
मांस विकून धंदो करतात.

मनीस, हे धर्तरे वेलें सगळ्यांत क्रूर जनावर. ताका मेळिल्ली बुद्द ताण
पृथ्वीच्या विनाशा खातीर वापरल्या. बऱ्या विचारांच्या लोकां कडेन प्रामाणीक माग
ह्या राक्षसांक जैतिवंत जावपाक दिवं नाकात. तांचे पसून ही जिवसृश्ट वाटायात.

***

# शींव

शींव हो भारतीय रानवटी प्राण्यां मदीं मानाचें स्थान मेळोवन आसा. शींव आनी वाग हे दोनूय प्राणी एकमेकां पसून वेगळे. शींव हो आकारान वागा परस ल्हान आसता. ताची शेंपडी वागा परस ल्हान आसता आनी ताका एक गोंडो आसता. शिंवाक मानेर आयाळ आसता आनी शिंविणीक ती नासता. बरो वाडिल्लो शींव हो सव्वा दोन ते सव्वा तीन मिटर लांब आसता. आनी वजन १८० ते २२५ कील मेरेन आसता.

शींव हो भारतांत कांय वर्सां पयलीं मेळटालो. तो उत्तर आनी मध्य भारतांतल्या मेकळ्या मळार मेळटालो. शिंवाक भारताच्या इतिहासांत खूब मान आसलो. ते भायर हिंदू धर्मांतल्या देव-देवतांचें वाहन शींव आसा. हाचे वेल्यान अशें म्हणूं येता कीं शिंवाचें अस्तित्व भारतांत खूब आदीं सावन आसपाक जाय. भारतांतले रजपूत आनी शीख संप्रदाय आपल्या नांवा फाटल्यान सिंह ही उपाधी लायतात.

आयच्या काळांत भारतांतल्यान शींव हो नानपयत जाला. जुनागडांतल्या गीर अभयारण्यांत कांय शींव उरल्यात. शींव हो राजेशाय प्राणी. तो रानांत भोंवतना राजा भशेन झ्टेतान भोंवता. तो वागा भशेन मनशाक भियेना. तो उक्त्या मळार रावता. हरणां, नीलगाय, काळवीट वा चिंकारा अशे तण खावपी प्राणी ज्या रानांनी रावतात थंय शिंवाचो राबितो आसता. शींव हो मूळ भारतांतलो काय आफ्रिकेंतल्यान आयला हाचें स्पश्टिकरण मेळना. घडये तो मूळचो भारतांतलोच आसुंये.

शींव हो सदांच कळपांत रावता. भोंवतना राजा जसो आपलो लवाजमो घे
भोंवता तसोच तो शिंविणी आनी हेर शींव हांचो लवाजमो घेवनच भोंवता. शींव अ
शिंवीण हीं दोगांय एकामेकांच्या सहकार्यान शिकार करतात. अशा वेळार शींव सावजा
उडी घालपाक लिपून बसला आसत जाल्यार शिंवीण सावजाक धांवडावन धांवडा
ताच्या म्हऱ्यांत हाडपांत तरबेज आसता.

आपणें शिकार करतकच वाग परतो त्या जनावरा म्हऱ्यांत येता. पूण येतना
लिपत लिपत, सुलूस घेत, सादूरतायेन येता. पूण शिंवाचें तशें ना. शींव आपणें मा
दवरिल्ल्या जनावराक परत खावपाक येतना आपल्या भुरग्यां बाळांक घेवन झेत
येता. ताका लागून ताका मारप ह्या दुश्ट मनशांक खूब सोपें जाता. शींव हो एका वेळ
एक गाय खावन सोंपोवपाक शकता. ताका मांस ताजेंच जाय अशें ना. तो कुशि
लेगीत खाता.

शींव हो सोंपेपणान झाडार चडपाक शकता. ताचे कान सामके तिक्ष्ण आसता
ताचे उपरांत ताची नदर. सगळ्यांत दुबळी आसता ती ताची वास घेवपाची तांक. त
शींव हो खूब गरीब सभावाचो प्राणी. तो खूब बेगीन मनशाळटा. देखूनच सर्कशी
ताचो चड उपेग जाता.

वाग आनी शींव हे रानांतले सशक्त प्राणी. पूण वाग आनी शींव हे आपस
केन्नाच झगडनात. दोगांयचीय जातकुळी वेगळी. दोगांयचीय ठेवण वेगळी. म्हण
दोगांयचीय शिकार करपाची पद्दतय वेगळी.

पट्ट्यांचो वाग जेन्ना सावजाचेर हल्लो करता तेन्ना तो ताची गोमटी तोंड
धरता. ती आंवुळटा आनी जनावराक मारता. बिबटो वाग मानेक वा गोमटेक घां
मारता आनी सावजाचो जीव घेता. शींव मात आपल्या सावजाची गोमटी धरता ते
आपल्या पिलांक माजर जशें तोंडांत धरून व्हरता ते तरेची वागणूक दिता. ताचे दां
त्या सावजाक लागनात. सावजाक ओडून तो झिलांत व्हरता आनी मागीर ताचो पंग
त्या सावजाक खावपाक लागता. ते ताच्या आंगाचे कुडके काडून खावपाक लागतात

ह्या वेळार जनावर जितें आसता. शिंवाचे हे अशे पद्दतीक लागून खूब फावटी सावज शिंवाच्या तोंडांतल्यान सुटका करून घेता आनी पळ काडटा. ताच्या आंगार एकय जखम आसना. आसलीच जाल्यार ती जीवघेणी आसना.

शींव हो प्राण्यांच्या जगांत आळशी म्हूण फामाद. तो दिसांतलीं १० ते १५ वरां न्हिदता. ते भायर एक वर ते चार वरां पसून तो झेमो काडटा. आनी जायत्या वेळार जागो आसून लेगीत एक वर ते पांच वरां मेरेन कांयच हालचाल करिनासतना पडून रावता. म्हणजेच दिसांतलीं १ ते ७ वरांच तो सक्रीय आसता. शींव वा शिंवीण शिकार करतना statue गेम खेळपाक हुशार. हरण तण खाता. अश्या वेळार हो शींव ताका धरपाक धांवता. जर हरणाची नदर ताचे वटेन गेली जाल्यार तो आसा थंयच पुतळो कसो जावन उबो रावता. हालनासतना, धोलनासतना, निश्चल. हरणाची नदर दुबळी आनी कान तिक्ष्ण आसतात. हाचो फायदो तो घेता.

स्वता शींव आपल्या राजेशाहीपणाक लागून आपलो जीव वगडायता. घुंगरांचें आनी शिंवाचें कसलें नातें तें अजून म्हाका समजूंक ना. पूण शिकारी शिंवाची शिकार करपाक घुंगरांचो वापर करताले. आपणें मारिल्लें जनावर खावपाक येता तेन्ना तो बेधडक येता. तो जनावर खाता तेन्ना ताका मारपाक मेळटा. पूण नेम चुकला जाल्यार तो चवताळटा आनी शिकाऱ्यांचेर हल्लो करता. देखून शिकारी अश्या खिणांक आर्म जोखताले आनी गळ्यांतलो घुंगरू वाजयताले. ह्या आवाजान शींव तकलो वयर काडून आवाजा वटेन पळयतालो. त्याच वेळार ताच्या कपलाक आर्मांतल्यान गुळी सोडटाले. अश्या ह्या ताच्या सभावाक लागून खूब शिंवांचे बळी गेल्यात आनी मनशांनी हजारांनी शींव मारून काबार केल्यात.

शींव हो ताचे माने वेले आयाळीक लागून भिरांकूळ दिसता. तो सभावान दयेस्त आशिल्ल्यान घडये बेगीन मनशाळटा जायत. पूण तो तितलोच आक्रमकय आसता. अशें धरूंया एक वाग आपणें मारिल्ल्या जनावराक खावपाक आयला. अश्या वेळार ताका मनशाची सुलूस लागली जाल्यार तो पळून वता. हीच गजाल जर शिंवाचे

बाबतींत घडली जाल्यार शींव पळून वचना. तो मनशाचेर हल्लो करता.

शिंवाचें आयुश्य तशें उणेंच. चवदा पंदरा वर्सांनी तो म्हातारो जाता. तेन्ना त अवस्था सामकी बिकट जाता. येदो व्हडलो भारदस्त प्राणी नजो जावन खंयच्याय झ मुळांत बसता. अशे परिस्थितींत ताका चलपाक येना. आनी मागीर तरस वा रान ताका मारून खातात. सैमाचें रानचक्र हें. ह्या चक्रांत श्रेश्ठ कोणूच ना. प्रत्येकाक म हें आसाच. आनी जो मरता तो दुसऱ्याचें अन्न आसता. तो मागीर रानाचो राजा श आसूं वा रानांतलो सादो कोलो आसूं. शींव हो प्राणी मनशाचे नदरेन वागा पर भिरांकूळ. वाग जेन्ना दुखवता, वा जखमी जाता तेन्नाच नरभक्षक जाता वा बरा पिलां आसत जाल्यार वागीण मनशाचेर हल्लो करता. आपल्या पिलांच्या रक्ष खातीर हो हल्लो आसता. हो हल्लो मनशाक धांवडावपा खातीर आसता. पूण शिंव बाबतींत हें उरफाटें. शींव मनशाक भियेना.

वागाक मनशाचो आकार आनी रूप पळोवन भंय दिसता. शिंवाक असो भ दिसना. शिंवाक जर रानवटी प्राणी मेळ्ळो ना जाल्यार ताका गांवचीं जनावरां म्हणल्य म्हस, गाय, बैल वा रेडो चलता. तो तांकां मारून खाता. जर तेंवूय मेळ्ळें ना जाल मनशाचेर हल्लो करपाक तो फाटींफुडें पळयना आनी मनशाक खावपाकय तो अनमन ताचे भुकेक ताका कोणूय चलता.

***

# वांस्वेल

वांस्वेल हो जगांत खंयीय मेळपी प्राणी. भारतांतल्या रानांनी हें वांस्वेल पळोवंक मेळटा. वांस्वेलाच्यो आठ जाती आसात. तातूंतल्यो स जाती आतां नश्ट जावपाच्या वाटेर आसात. भारतांत पळोवंक वा अभ्यासूंक मेळटा तें एक काळें वांस्वेल आनी पुडी कोराचें हिमालयन वांस्वेल. धवें वांस्वेल आतां भारतांतल्यान नानपयत जावपाक लागलां.

जगांत वांस्वेलाच्यो जाती मेळटात त्यो, स्लोथ बॅर, ब्रावन बॅर, स्पेक्टेकल्ड बॅर, अमेरिकन बॅर.

ह्या वांस्वेलाचें खाण अमुकूच अशें ना. उदकाचे धडेर रावपी वांस्वेल नुस्तें धरून खाता. पोलर बॅर जनावरांक धरून तांचें मास खाता. भारतांतली वांस्वेलां फळां, फुलां, जमनींतलीं मुळां, पानां अशें खाण खातात.

वांस्वेलाक तिक्ष्ण सुळे आसतात आनी फुडल्या पांयांक घटमूट नाखटां आसतात. तांचे पंजे इतले बळिश्ट आसतात कीं तांच्या एका थापटान हेर जनावरां मरपाक शकतात.

वांस्वेल आपल्या पिलांक सांबाळपाक हुशार. पिलांक सांबाळपाक तें खूब खेपे आक्रमक जाता. मनीस अश्या वेळार लागीं दिसलो जाल्यार तें ताचेर हल्लो करता आनी ताका फाफसून उडयता.

पोलर बॅर वा बर्फाळ प्रदेशांत रावपी वांस्वेलाच्या संवयों मातश्यो वेगळ्यो. हं

वांस्वेल झेल पडटा तेन्ना जमनीच्या बिळांत राबितो करता. जायत्या वेळार ताचें बर
ताचें पिलय आसता. बर्फाचो मारो उणो जातकच तें पिलाक घेवन भायर स
बिळांत/घोलींत जेन्ना तें रावता तेन्ना तें तीन ते चार म्हयने उपाशीं आसता. ह्या का
आपल्या पिलांक तें आपल्या आंगा वेलें दूद दिता.

भारतांतलीं वांस्वेलां आयज त्रासांत आसात. वांस्वेलांचो खेळ करपी म
रानांतल्यान वांस्वेलां धरून हाडटात. तांच्या नाकाच्या हाडाक बुराक मारून वे
घालून ताका शिकयतात. हें वांस्वेलाक खूबच त्रासदायक आसता म्हणून वां
मदारी सांगता तें करपाक तयार आसता. अजापाची गजाल म्हणल्यार पोस
हाडिल्ल्या वा मनशाच्या सांगाताक रावतल्या वांस्वेलांक पिलां जायनात. ताका ल
तांची संख्या वेगान देंवता. भारतीय रानांतलें वांस्वेल आयज नानपयत जावंक लाग

***

# गेंडो

गेंडो हो रानांतल्या तळ्याचे देगेर रावपी प्राणी. ह्या प्राण्याक सुंदरकाय ना. पळोवंक विद्रूप. पूण कुडीन कणखर. ताची कात दाट. ताका लागून ताका सोंपेपणान कांयच तोपना. हेच खातीर ज्या मनशाचेर कसलोच परिणाम जायना ताका 'गेंड्या कातीचो' ही ओपार दितात.

जगांत पांच तरांचे गेंडे मेळटात. हातूंतल्यो दोन जाती आफ्रिकेंत आनी तीन जाती आशिया खंडांत मेळटात. द ग्रेट इंडियन रायनो वा भारतीय गेंडो हो भारतांत आनी नेपाळांत मेळटा. हो एका शिंगाचो गेंडो. मात गेंड्यांक शींग तांच्या नाकार आसता हें तुमी जाणांत मूं? भारतीय गेंड्याचे फाटी वेली कात मिरयो पडिल्लेवरी दिसता. ताका लागून ताणें आंगार चिलखत घाल्ले वरी दिसता. आशियांतलो दुसरो गेंडो हो 'जावन गेंडो'(Javan Rhino) हो गेंडो क्वचीत पळोवंक मेळटा. जावन गेंड्याची जात नानपयत जावपा कडेन पावल्या. कांय थोडे गेंडे जावा देशांतल्या रानांनी पळोवंक मेळटात. ह्या गेंड्याचो तोंडावळो वेगळोच आसता. भारतीय गेंडो तण खावन जियेता जाल्यार जावा गेंडो झाडाचीं पानां आनी कोमऱ्यो खावन जियेता. ताचो ओंठ वेगळे तरेचो आसता जो ताका झाडाचीं पानां आनी कोमऱ्यो खांदये पसून तोडपाक मजत करता. खांदो वा ताळी तोडिनासतना तो हीं पानां खाता. हांचे मदल्या नराक एक शींग आसता जाल्यार मादीक शींग नासता.

आशियांतलो तिसरो गेंडो हो सुमात्राचो गेंडो. Sumatran Rhino आकारान सगळ्यांत ल्हान गेंडो. होवूय गेंडो नानपयत जावपाक पावला. ह्या गेंड्याक दोन शिंगां आसतात.

एक व्हड एक ल्हान. झोपाचीं पातीं आनी पानां हें ताचें खाण. फकत ह्याच गेंड्य
ल्हान आसतना आंगार केंस आसतात. गेंड्याचें सरासरी आयुश्य ६५ ते ७० व
आसता.

भारतांत आसामांतलें काझिरंगा राष्ट्रीय उद्यान हें गेंड्यांचे वसती खात
फामाद. हांगा गेंड्याची बरी पोसवण जाता.

आफ्रिकेंत दोन तरांचे गेंडे मेळटात. पयलो White Rhino. हाका एक तर ध
गेंडो वा Square Lipped Rhino म्हणल्यार चवकोनी ओंठांचो गेंडो म्हणटात. सगळ
गेंड्यां मदीं हो गेंडो व्हडलो. आकारान व्हड आनी ताची तकलीय व्हड. हाका द
शिंगां आसतात. हाका जरी धवो गेंडो म्हणलो तरी हो काळ्या गेंड्या परस मातसो ल
आसता. ह्या गेंड्याक भुजांचेर एक कुबड आसता. हाचीं भुजां मात बरींच ऊंच आ
घटमूट आसतात.

आफ्रिकेच्या रानांत आनीक एक गेंडो मेळटा. ताका Black Rhinoceros म्हणल्य
काळो गेंडो म्हणटात. ह्या गेंड्याक Hook Lipped Rhino अशेंय म्हणटात. हो गेंडो ख
आक्रमक आनी झगडाळ. ताणें शीम घाल्ल्या वाठारांत जर आनी कोणय भितर सरल
जाल्यार ताचेर तो घुरी घालता. ह्या गेंड्याची कात सुळसुळीत आनी तुकतुकी
आसता. पूण ती मात खूब दाट आनी घट्ट आसता. ह्याय गेंड्याक दोन शिंगां आसता

ह्या काळ्या गेंड्याचें एक खाशेलेंपण आसा. रानांत केदोय व्हडलो दुक
पडल्यार पसून हे काळे गेंडे उदका खातीर आपलें रान सोडून वचनात. ते त्याच रानां
रावतात. हे गेंडे चडशे तण आनी झोपांच्या पानांचेर जियेतात देखून तांचे आवडीच
खाणाचें रक्षण करपाक तांची एक खास पद्दत आसा. आपल्या रानांत हेर म्हर्श
जनावरां येवचीं न्हय म्हूण हे गेंडे आपल्या मुताचो फवारो मारून आपली शीम निश्ची
करून दवरतात. असो तांचो वाठार वा सुवात चार ते पांच कि. मि. ची आसता. ह
वाठारांत ह्या गेंड्याची सत्ता चलता. थंय हेरांचें शाणेंपण चलना.

गेंडो हो जरी शक्तिमान आसलो तरी ताका दोळ्यांनी बरें दिसना. जायते खेपे ताका २०-२५ फुटांवेलें दिसना. पूण ताचे कान मात भयंकर तिक्ष्ण आसतात. पानांची जाल्ली सळसळ पसून ताका सादूर करपाक पुरो आसता. कानां भशेन ताचें नाकय तिक्ष्ण आसता. रानांत भोंवडेक गेल्ले कडेन जर खंयच्याय मनशान सिगार ओडलें वा चेर मारिल्लो आसलो जाल्यार गेंड्याक रोखडो वास येता आनी तो पळून वता.

गेंड्याक स्वताच्या रक्षणा खातीर जरी फकत शींग आसलें तरी ताका बरीच शक्त आसता. वेळ आयलोच जाल्यार गेंड्यान वागाक आपल्या शिंगांनी फोडिल्ल्याचीं उदाहरणां मेळटात. हती पसून गेंड्याक पळयतकच ताका फाट करून पळपाक सोदता. अशें जायत्या रान भोंवडेकारांनी आपल्या पुस्तकांनी बरोवन दवरलां.

गेंडो हो तसो बिनभरवंशाचो प्राणी. कारण ताका झुडून येवपाक निमित्त लागना. तो केन्ना तिडकत हेंवूय सांगपाक येना. आनी तिडकलो जाल्यार तकली सकयल घालून झूं झूं करून येतलो आनी आपल्या शिंगांनी मुखावेल्याक फाळून उडयतलो.

***

# मुंगूस

मुंगूस हें जनावर आमकां रानांत पळोवंक मेळटा. तशें तें घरा फाटल्यान भाटांतय पळोवंक मेळटा. भारतांत दोन तरांचीं मुंगुसां मेळटात. एक कॉमन मुंगूस आनी दुसरें रडी मुंगूस.

आमकां आमच्या घरा फाटल्यान, शेतांत, पोरसांत वा जार्दीनांत पळोवंक मेळटा तें कॉमन मुंगूस. हें मुंगूस खूब चपळ आनी शिटूक आसता. ताची लांबाय लागीं लागीं दोन फुटांची आसता. तातूंतलो अर्दो भाग फकत शेंपडेचोच आसता. ताका बरी लांब आनी ल्हंवेन भरिल्ली शेंपडी आसता. ताचें वजन देड कील मेरेन आसता. तांचे मदलो दादलो हो आंगान मोटो आनी वजनानय जड आसता.

हें मुंगूस दर एका वाठारा कणकणीं वेगळें आसता. देखीक, भारतांत तीन तरांचीं मुंगुसां पळोवंक मेळटात. तांच्या भोंवतणच्या वातावरणा प्रमाण तांचे कातीचो रंग बदलता. हिमालयाच्या वाठारांत धरून ते श्रीलंके मेरेन मुंगूस पळोवंक मेळटात. ह्या जनावरांचें खाशेलेंपण म्हणल्यार तें खंयच्याय वातावरणांत आपल्याक सांबाळून घेता. त्या वातावरणांत रावपाक शिकता. ह्या मुंगुसाचें रावपाचें ठिकाण खंयच्याय तळपा मूळचें बीळ वा ताणें स्वता खणिल्लें बीळ. वाळवंटांत रावपी मुंगूस खूब खोल बीळ खणून तातूंत रावता. म्हणटकच ताचे मेरेन सुर्याचें खर वत पावना.

जायते खेपे हें मुंगूस वाळटीच्या रोयणींनी रावता. मुंगूस भोंवतना एकलें वा

जोडयेन भोंवता. ताच्या खाणांत हुंदीर, चिचुंदरी, जिवाणीं, शेड्डे, बेबे, उडपी कि विंचू अश्या जिवांचो आसपाव आसता. जायते खेपे तें सुकण्यांचीं तांतयां, सुकण्यां पिलां, कांय प्रकारचीं फळां वा झोपांचीं मुळां हिंवूय आवडीन खाता. मुंगूस जायते खे मेल्ल्या जनावरांचें मांस खाता. रानांतल्या जनावरांचो अभ्यास करपी एक फामा लेखक अतूल धामनकर म्हणटा कीं वागान केल्ले शिकारेचेर ताव मारतना आप मुंगसाक पळयलां. मुंगूस हें सोरपाचो दुस्मान अशें म्हणपा इतली तांची दुस्मानका पळोवंक वा वाचपाक मेळूंक ना. पूण हुंदराक आनी चिचुंदरेक मारता म्हूण ता शेतकार भाव इश्ट मानतात हें मात खरें.

***

# रडी मुंगूस

भारतांतल्या रानांनी मेळपी मुंगसाक रडी मुंगूस म्हणटात. ह्या मुंगसाची वागपाची पद्‌दत कॉमन मुंगसा भशेनच आसता. पूण ताचे कुडीची ठेवण मातशी वेगळी आसता. ह्या मुंगसाक वळखतलो जाल्यार ताची शेंपडी पळोवंक जाय. रडी मुंगसाची शेंपडी तोंकार सदांच गुठलायिल्ली आसता आनी शेंपडेचें तोंक काळें आसता.

हें रडी मुंगूस दिसाचें, रातचें कशेंय भोंवता. कितेंय खाता. पूण हालिसाराक तें खूब उण्या प्रमाणांत मेळटा. तांचें आपलें खाण सोदप चडशें उदकाचे देगेर. झोपांतल्यान ल्हवूच भायर येवन तें आपलें खाण सोदता.

रानांत आनीक एका मुंगुसाचो प्रकार पळोवंक मेळटा. तो म्हणल्यार ‘स्मॉल इंडियन’ मुंगूस. हें खऱ्यांनीच ल्हान मुंगूस. हाची लांबाय १८ ते २० इंचां मेरेन आसता. आनी परत ताचो अर्दो भाग शेंपडेंत वता.

ह्या मुंगसाच्या केसांचो ब्रश करतात आनी तो पेंटिंगा खातीर वापरतात. ताका लागून ह्या मुंगुसाची खूब कत्तल जाल्या. हें मुंगूस सदांच आपणें खणिल्ल्या बिळांत रावता. तें रातीचें भोंवना. देखून दिसा उजवाडा ताका पळोवंक मेळटा. पूण ताच्या आकाराक लागून ताका रानांत वळखुवप कठीण जाता. ताच्या जेवणांत हेर मुंगुसां प्रमाण सगळे जीव येतात. पूण एक वेगळो जीव ताच्या जेवणांत दिसता तो म्हणल्यार गांजीलमूस.

ह्या मुंगुसाक वर्साक दोन ते तीन पिलां जातात. आवयचें दूद पियेतना हीं पिलां

माजराच्या पिलां भशेन आवाज काडटात. ह्या मुंगुसाच्या आंगार ल्हंव मात बरीच आसता. कोणय जर घुरी घालपाक आयलो जाल्यार आपल्या आंगाची ल्हंव फुल तें ताचे बराबर झगडपाक वता. अश्या वेळार तें भयानक दिसता.

मुंगुसाचे जातीक खंयच्याय जनावराचो भंय ना. मुंगुसाक कोणेंय मारला अजून मेरेन तरी म्हज्या वाचनांत ना. पूण सोरपा बराबर झगडटना जर सोरपान त घांस मारिल्लो आसत जाल्यार ताचें वीख चडून तें मरता. मुंगुसाक दुस्मान ना. आसतनाय ताची संतत वाडना. हालिंसारा तें दुर्मीळ जायत चल्लां.

***

# साळ

साळ हें पृथ्वी वेलें एक वेगळें दिसपी जनावर. साळीक आंगार लांब कांटे आसतात. तिचें तोंड तितलें नाजूक आसता. फाटी वेल्यान हे कांटे सुरु जातात. ह्या कांट्यांक तोंकां आसतात. हे कांटे भितरल्यान पोकळ आसतात. देखून साळीक जाय तेन्ना हे कांटे फुलोवपाक मेळटात. साळ हो हरशीं रातीचो भोंवपी प्राणी. ताका लागून ती फकत रातीचीच पळोवंक मेळटा.

साळ हरशीं शिवराक. तिच्या खाणांत कड्डणां, मुळां, बियो आनी फळां आसपावतात. जमनीर पडिल्लें धान्य सोदत भोंवप हो तिचो नित्यक्रम. ती सदांच रातची भायर सरून हें काम करता. साळ बिळांत रावपी प्राणी. साळींच्यो येवपा वचपाच्यो वाटो थारिल्ल्यो आसतात. तांचे जिणेंत त्यो सदांच ह्या रस्त्यांचो उपेग करतात.

साळ आपले कांटे स्वताचें रक्षण करपाक फुलयता. त्या वेळार ती भयानक दिसता. इतलेंच न्हय तर तिचे कांटे लागून जनावरां जखमी लेगीत जातात. मनीस हो जरी साळीचो नंबर एक दुस्मान आसलो तरी कांय जनावरांय साळीचीं दुस्मान आसात. तीं साळीची शिकार करपाचो यत्न करतात. हातूंत वाग आनी कोलसुणे आसपावतात. हीं दोनूय जनावरां भुकेन व्याकूळ जातात तेन्नाच तीं साळीचेर घुरी घालपाचें धाडस करतात.

अशा जनावरांनी घुरी घालतकच साळ तांकां झुलयत खंयच्याय कांट्यांच्या

झोपा कडेन व्हरता. आनी त्या झोपा लागीं पावतकच आपूण अचकीत उरफाटी उ
आनी तांचेर कांटे सोडटा. हे कांटे इतले गतीन येतात कीं त्या जनावरांच्या आंगांतल
वचून तांच्या हाडाक लागपा इतले भितर रोमतात. जायत्या वेळार हे कांटे लागून
जनावरांचे दोळे लेगीत फुटल्यात.

साळीचे हे पोरणे कांटे पडप, नवे येवप हें वर्साचे बाराय म्हयने चालूच आस
कांट्यांच्या रुपान जें कॅल्सियम सोंपता तें भरुन काडपाक साळ मोट्या जनावर
हाडां आनी शिंगां खाता. देखून साळीच्या बिळा भायर अश्या हाडांची रास मेळट
गोंयच्या रानांतल्यान हो प्राणी सद्या उणो जावंक लागला.

***

# रानदुकर

रानदुकर हो गोंयच्या रानांनी सर्रास मेळटा. जायते खेपे हे रानदुकर काजू म्हुट्टे खावपाक कुळागरांच्या आनी भाटांच्या वयल्या वाठारांत येतात. रानदुकर हो चडसो भोंवसळ घेवनच भोंवता. एके भोंबसळींत सात ते आठ रानदुकर आसूं येतात. रानदुकर आनी घरदुकर हांचे मर्दी मुखेल फरक म्हणल्यार रानदुकराचे सुळे. ताच्या तोंडांत दोनीय वटांनी दोन सुळे भायर सरिल्ले आसतात. आंगार दाट आनी लांब केंस आसतात.

रानदुकर हो हरशीं झाडाचीं मुळां, कांय थारावीक फळां खावन रावता. एक समज लोकांमदीं असो कीं रानदुकर हो शाकाहारी. तो फकत भाज्जेचीं मुळां खाता. पूण मोट्या जनावरांचीं हाडां चघळपाक रानदुकराक आवडटात हाचे जायते कडेन पुरावे मेळटात.

जनावरांचीं हाडां खावप आनी मीठ खावप हें ताचे भलायकेक जाय तशें आसता. देखीक, ताका जर कॅल्सियम उणें आसा अशें जाणवलें जाल्यार तो हाडां चघळटा. जायते खेपे हरणांय तांकां सोडियम मेळचें म्हूण मीठ खातात. हरणाचें खाण पुराय शिवराक म्हूण तांकां मिठाची गरज आसता. रानांत कांय जनावरांचो मुतपाचो आनी लेणयो उडोवपाचो एक जागो आसता. ह्या जाग्यार वचून हरणा सारखें जनावर ती जमीन चाट्टा आनी मिठाची गरज भागयता.

रानदुकर हो तसो शक्तिमान. मनीस एकटो दुकटो मेळत आनी रानदुकर तिडकल्लो आसत जाल्यार मनशाच्या आंगार वचून तो सुळ्यांनी ताका फाळटा.

एकल्या रानदुकराचेर घुरी घालपाक वाग लेगीत फाटीं सरता. रानदुक वागाक जितो मारिल्ल्याचीं जायतीं उदाहरणां आसात. आपल्या सुळ्यांनी तो ताचें फाळटा आनी ताका मारता. रानदुकर हें जनावर तशें पकदस्त. धांवतना ताका आप दिका बदलूंक येना. थंयच तो फिको पडटा. रानदुकर हो वासाचेर आपल्या दुस्मान वळखता, आनी आपली दिका बदलता.

आंगाक किट्ट्यो वा जळारां बी चाबतलीं म्हूण तो गिमाच्या दिसांनी खंयच्य कोंडांत मनसोक्त लोळटा. तो रेबो आंगार घेता आनी वतांत येवन सुकयता. हा लागून ताका जीव चाबनात. असो हो रानदुकर.

***

# कोलो

कोलो हो गोंयच्या रानांतलो म्हत्वाचो प्राणी. रातीच्या वेळार आमी गांव वा शार सोडून भायर पावले जाल्यार रस्त्या वेल्यान हे कडे सावन ते कडेन रस्तो हुपपी आनी शेतांत वा झिलींनी नाच्च जावपी हो कोलोच आसता. दिसपाक सुण्या भशेन पूण मोटवो, शेंपडी गोंडो कशी. धांवपाक चपळ आनी मनशाक थर्त भियेवपी.

कोलो हो चडसो एकमुळो रावपी. चडांत चड जाल्यार ताचे बरोबर एक कोली आसता. तो शेतांतल्या मेरांच्या आडसाक वा धडेक बिळां मारून रावता. ह्या बिळांक एका परस चड दारां आसतात. हीं बिळां बरींच खोल आतात. दीसभर कोलो ह्या बिळांनी न्हीद काडटा आनी रातीचो आपलें खाण सोदपाक भायर सरता. कोल्याचो रस्तो क्रॉस करपाचो आनी दुसऱ्या जाग्यार वचपाच्यो वाटो थरावीक आसतात. ह्यो वाटो झुडपांतल्यान वचपी आसतात. तो मनशांचे पांयवाटेन केन्नाच वचना.

कोल्याचें खाणय वेगळेंचशें. कोलो हो शिवराक दिसचो अशें ताचें खाण. कोलो उसाच्या मळ्यांत वचून ऊस खाता. कोलो तवश्याच्या मळ्यांत वचून तन्न्यो पिपऱ्यो खाता. कोलो द्राक्षां खाता. कोलो बोरां आनी जांभळां खाता. लोकांच्या घराच्या मागीलदारांत वचून कोंबयो धरून व्हरता. ताचें हें आवडीचें खाण. अश्या वेळार सुणे ताका धांवडावन घालपाचो यत्न करतात.

कोल्याक कुल्ल्यो खावपाक आवडटात. ताका हुंदीर आनी चिचुंदरी खावपाक आवडटा. कोलो कांय वेळा ल्हान बोकडी मारून खाता. ताका मेल्लीं जनावरांय

खावपाक आवडटा. कोल्याक Scavenger म्हणूनय वळखतात.

कोल्याच्या राहणिमाना बद्दल खूब कमी म्हायती मेळटा. कोलयेक वर्सांतल खंयच्याय म्हयन्याक पिलां जातात. एका वेळार दोन ते स पिलांक ती जल्म दित पिलांक सांबाळपाक कोलो आनी कोली दोगांय वावुरतात. खूबशा वेळार तांची ही न मादीची जोडी आयुश्य भर सांगातान रावता.

कोलो मनशाच्या आंगणांत जरी आपलें खाण सोदता आसलो तरी ताव रावपाक किण्ण जागो जाय. देखून मनीस जसो जसो आपलीं घरां अश्या जाग्यांन व्हरपाक लागलो तसो तसो कोलो तांचे पसून पयस वचपाक लागलो. आज कोल्याच्य कुयो आनी कोल्याचें दिसप खूब कमी जालां. तसो कोलो जगभर सगळ्या तरांच्य वातावरणांत मेळटा. सांगपाचें म्हणल्यार कोलो खंयच्याय वातावरणा कडेन जुळोव घेता. वाळवंटी वाठार, झेलाचे वाठार, थंड प्रदेश वा गोंयां सारखे प्रदेश हातूं आसपावतात.

गोंयच्या लोकांकाणयांनी कोल्याक खूब व्हडलो मान दिला.

***

# हती

हती हो भारतीय रानांतलो एक म्हत्वाचो प्राणी. हती जसो आफ्रिकेच्या रानांत मेळटा तसो तो भारतांतय मेळटा. आफ्रिकेच्या रानांतलो हती भारतीय हतया परस वेगळो आसता. ताचे कान व्हड आसतात आनी शारिरीक बांदावळ मोटी आसता. भारतीय हती हो जल्मा सावन ल्हान आसता.

हती हो शिवराक प्राणी. सभावान थंड पूण राग आयल्यार वायट. हती सभावान गरीब प्राणी. हतयाक भितरली बुद्द आसना. धूर्तपणा आसना पूण सगळ्या जनावरां मदीं हुशार हती. तो खूब बेगीन शिकता. ताका शिकयतल्या माहुताचेर ताचो खूब मोग आसता.

हती दिसाचो मनशाक थर्त भियेता. मनीस दिसल्यार तो पळ काडटा. पूण तोच हती रातचो कोणाक भियेना. मनशान रचिल्लें सगळें मोडून फोडून उडयता. ताच्या ह्या सभावाचें गुपीत कोणाकच अजून उलगडूंक ना.

हतयाची सोंड ताका खूब तरांनी आदार करता. उदक पियेवपाक सोंडीचो आदार जाता. ते भायर ताका हवेंतल्यान वास घेवपाक सोंड मजत करता. हवेंत सोंड वयर करून जेन्ना तो वास घेता तेन्ना ताका संकटाची सूलूस मेळटा. ते प्रमाण तो आपलो फुडलो मार्ग आंख्रता.

हती हो चडसो उबो रावनच न्हिदता. आनी कळपांतले हती न्हिदतात तेन्ना तांच्या पिलांक कळपाच्या मदीं दवरतात. रानवटी जनावरांनी तांच्या पिलांक खावचें

न्हय म्हूण ते तांकां अशी राखण दितात. जेन्ना तांकां वागाचो आवाज आयकूंक
तेन्ना सगळो कळप उक्त्या मैदानार जमता. आनी आपल्या पिलांक मर्दी दवरून तां
भोंवतणीं वांटकुळें कडें करता. वाग हतयाच्या पिलाचेर घुरी घालपाचें धाडस कर
तो हतयांचे वाटेक वचना. वागाचो एक सभाव आसा. तो आपले परस व्हड जनावरा
घुरी घालना. हतयाचो आकार पळयल्यार तो भियेता जावंये.

हतयाच्या कळपांत एकलोच मुखेली आसता. तो पुराय कळपाची राख
करता. आनी पुराय कळप ताका मान दिता. कांय खेपे कळपांतलो दुसरो हती
मुखेल्याक आव्हान दिता. त्या वेळार तांचें झूज जाता. जो हती हारता तो कळप सो
वता. जो जिकता तो कळपाचो मुखेली जाता. जायते खेपे अशे एकले पडिल्ले ह
पिसाळटात आनी मनशांचेर वा घरांचेर हल्लो करपाक लागतात.

हालिंसाराक सत्तरी आनी दुदसागर ह्या वाटारांनी हतयांच्या कळपांनी केळ
मळे आनी शेतां मस्तून उडयिल्ल्याच्यो खबरी वाचपाक मेळटात.

पृथ्वी वेल्या सगळ्या जनावरांत हती हो चड बुद्दिमान प्राणी अशें मानता

***

# थेरयो (खवळांचें माजर)

इश्टांनो, तुमी रानांतलीं आनी घरांतलीं कितलिंशींच माजरां पळयल्यांत जातलीं. पूण महाराष्ट्रांत जाका 'खवले मांजर' म्हणटात ताका पळयलां? ताका माजराचे वळेरेंत कित्याक बसयलां तें खबर ना. तें कॅट स्पेसिसांतलें (माजराचे जातींतलें) न्हय. ह्या खवळे माजराक इंग्लिशींत इंडियन पांगोलीन वा पांगोलीन म्हणटात आनी कोंकणींत 'थेरयो' म्हणटात.

रानांत मेळपी हें एक विचित्र दिसपी जनावर. ह्या थेरयाक आंगभर खवळां आसतात. नुस्त्याक आसतात तशीं. पूण तीं खूब घट्ट आसतात आनी थेरयाक तीं आपल्याक जाय तशीं उगडूंक धांपूंक येतात. हो थेरयो सगळ्या तरांच्यो मुयो खावन जगता. तेच बराबर तो तांचीं तांतयांय खाता.

थेरयो हो दीस भर बिळांत न्हिदता वा लिपून रावता आनी रातचो भायर सरता. ताची सरासरी लांबाय तीन फूट आसता. हातूंत ताची शेंपडीच देडा फुटाची आसता. आनी बाकीची कूड देड फूट. ताची शेंपडी बरीच घट्ट आसता. जायत्या वेळा तो शेंपडेन झाडाचे खांदयेक वेटाळें घेता. आनी हुमकळत रावन मुयो खाता.

थेरयाची जीब बरीच लांब आसता. आनी ती चिकट आसता. रानांतल्यो रोयणी तो आपल्या नाखटांनी फोडटा. आनी तोंडाची नळी ते रोयणींत घालून मुयो ओडून घेता. ताचे जिबेक उरफाटे कांटे आशिल्ल्यान भितर गेल्ली मूय भायर सरपाक शकना.

थेरयो जमनीक बीळ मारून रावता. ताचें बीळ तो स्वता खणटा. तें उण्यांत उणें आठ फूट खोल आसता आनी तें वांटकुळें आसता. थेरयाचें नाक भयंकर 'फिन' आसता.

ताका मुयांचो वास रोखडोच येता. ताचे कान आनी दोळे बारीक आसतात. नाक मात सामकें
आसता. थेरयो कितलेय दीस उदका बगर रावंक शकता.

थेरयो आपलें रक्षण बरेच मनोरंजन पद्दतीन करता. जर ताका आपल्याक धोको वा
आसा असो दुभाव आयलो जाल्यार आपली सगळी कूड कवळून घेता आनी ताका बॉलाचो अ
दिता. आनी मागीर देंवते वेल्यान गडगडत सकयल वता.

फाटीं हांवें नॅशनल जॉग्राफीचेर एक मजेशीर गजाल पळयली. शिंविणीच्या पिलां
खेळटना हो थेरयो दिसलो. तातूंतलो एकलो ताका खावपाक पळयतालो. तो थेरया म्हऱ्यांत पावत
थेरयो बॉला भशेन वांटकुळो जातालो. आनी आपलीं खवळां गच्च धरून रावतालो. शिंविण
पिलाक तो थेरयो आपलीं खवळां कशींच उक्तीं करपाक दिनाशिल्लो. शिंवान ताका धांस मारप
यत्न केलो, पांयां मदीं धरून उक्तो करपाचो यत्न केलो पूण तो थेरयो कसोच बदलो ना. निमाण
शिंवाचो पेटो थेरयाचो नाद सोडून गेलो.

फ्रेंच बक ह्या फामाद रान इश्टान एक मजेशीर अणभव सांगला. रानांत एकदां मुय
व्हडलो चोंबो एका जाग्या वेल्यान दुसऱ्या जाग्यार वतालो. हो चोंबो खूब व्हड आसलो. थेरयाक त
वास आयलो. तो त्या मुयांचे रांके म्हऱ्यांत गेलो आनी तांचे वाटेर वचून खवळां फुलोवन न्हिदलो.
ताच्या आंगार चडल्यो. मुयांक मांसाचो वास आयलो. ते बराबर बाकिच्योय मुयो ह्या थेरया
खवळांनी भरल्यो. मुयांची तयारी थेरयाचे कातीक घांस मारून ताचें मांस खावपाची.

बऱ्योच मुयो भरतकच थेरयान आपलीं खवळां बंद केलीं आनी उठलो. मुयो आतां ता
आंग भर बंदिस्त आसल्यो. मुखार वचून तो एका उदकाच्या कोंडांत देंवलो. आनी मदीं वचून त
आपलीं खवळां उक्तीं केलीं. ते बराबर सगळ्यो मुयो उदकांत पडून हुबपाक लागल्यो. उपरांत त
ह्यो मुयो मोट्या घोस्तान खाल्यो. इश्टांनो, थेरयो कितलो हुशार तें पळयात.

लोकांचो असो समज जाला कीं थेरयाच्या मांसांत वखदी गूण आसात. तांच्या ह्या समज
लागून थेरयाची मोट्या प्रमाणांत शिकार जाता. हाका लागून हो प्राणी आज नानपयत जावप
पावला. हो थेरयो पळोवपाक मेळप हें भाग्य जालां. इतलो हो थेरयो दुर्मीळ जाला.

***

# स्फेनोडोन

खंयच्याय प्राण्याक तीन दोळे आसात अशें सांगल्यार तुमकां खरें दिसत? न्युझिलँडाच्या भोंवतणच्या जुंव्यांचेर हो प्राणी पळोवंक मेळटा. हो दिसपाक शेड्ड्या भशेन दिसता. ताचो रंग पोपटी आनी पाचवो आसता. ताची शेंपडी दोनूय वटांनी चेपटी अशी आसता. ताच्या माथ्यार खवळांचें एक रिबन आसता. ताच्या पांयांक नाखटां आसतात. ह्या नाखटांच्या आदारान तो खणटा.

स्पॅन्सर नांवाच्या शास्त्रज्ञान १८८६ वर्सा ह्या प्राण्याचो लागींच्यान अभ्यास केलो. तेन्ना संवसाराक ह्या प्राण्याक तीन दोळे आशिल्ल्याचें समजलें. ज्या शास्त्रज्ञान स्फेनोडोनाचें विच्छेदन केलें, ताका ताच्या दोन दोळ्यां वयर तिसरो दोळो आशिल्ल्याचें आनी ह्या दोळ्याक सामान्य दोळ्या भशेन लॅन्स आसा, रेटिना आसा, मेंदवाकडल्यान दोळ्यां कडेन येवपी नसय आसा हें कळ्ळें. भायल्यान पळोवंक जरी हो दोळो सो दिसलो ना तरी तो दोळोच हें ह्या विच्छेदना उपरांत सिद्ध जालें. घडये ह्या जगांत तीन दोळे आसपी हो एकमेव प्राणी आसुंये.

स्फेनोडोन हो शेड्ड्याचे जातकुळयेंतलो प्राणी. भारतांत हो प्राणी केन्नाच नाशिल्लो देखून ताका भारतीय नांव ना. स्फेनोडोन हो लांबायेन ४० ते ६० सें.मि. वाडटा. तो दर चार वर्सांनी एकदां चार ते पांच तांतयां घालता. हीं तांतयां उबोवन नवे स्फेनोडोन जल्माक येवपाक १२ ते १५ म्हयने लागतात. ह्या काळांत ज्या वेळार थंडेचो मोसम येता तेन्ना त्या काळांत हीं तांतयां उबेनात आनी तांची वाटय लागना. हो मोसम

सोंपलो कीं तांची उबेवपाची प्रक्रिया परती सुरु जाता.

डायनासोरांच्या तेंपा वेलो, तांचे जिणे कडेन साम्य आशिल्लो हो स्फेनोड आयज नानपयत जावपाक पावला. अजापांनी भरिल्लो हो प्राणी म्हणून ताका 'जि जिवाश्म' म्हणल्यार Live Fossils म्हणटात. हो प्राणी सहजतायेन शंबर वर्सां परस च जगता. ताचें खाण म्हणल्यार बेबे, गोगलगाय, गायंडोळ आनी सुकण्याचीं तांत Rhynchocephalia ह्या species चो हो एकमेव प्राणी आज जिवो आसा.

***

# झेब्रा

झेब्रा हें आफ्रिकेच्या रानांत मेळपी एक जनावर. भारतांत झेब्रा पळोवंक मेळना. हांगासरल्या रस्त्यांनी झेब्रा क्रॉसींग मात पळोवंक मेळटा. झेब्राच्या आंगा वेल्या काळ्या धव्या पट्ट्यां वेल्यान झेब्रा क्रॉसींग अशें नामकरण जालां जावये. झेब्रा हो घोड्याचे जातकुळयेंतलो प्राणी. हे जातकुळयेक इंग्लिशींत Equidae अशें म्हणटात. झेब्रा बराबर गाढवां, आफ्रिकेंतलीं रानटी गाढवां आनी मंगोलियाचीं रानटी गाढवां आसपावतात. झेब्राच्या आंगावेले पट्टे हें ताचें जशें भुशण तशेच हे पट्टे ताच्या दुस्मानाक गोंदळांत उडोवपाक आदार करतात.

झेब्रा हो तणाचेर जियेवपी प्राणी. तो तणाच्यो कोमऱ्यो खाता. तो सदांच कळपांनी रावता. हो कळप पांच ते स झेब्रांचो आसता. पूण जेन्ना दुकळ पडटा तेन्ना हो कळप शेंकड्यांच्या घरांत वता.

झेब्राक जरी सैमान शिंगां दिलीं नात वा सुळेशे दांत दिले नात तरी ताका ताच्या दुस्माना पसून रक्षण करपाक घटमूट पावलां दिल्यांत. झेब्राचे एके खोंटीन वाग वा शींव पसून न्हिन्नळटा. झेब्राची खोंट फाटल्या पांयान फाटले वटेन पडटा. ती एक तर ह्या जनावरांच्या तोंडार पडटा वा दोळ्यांर पडटा. हे खोंटीक लागून हिंसक जनावरां ताकदवान आसून लेगीत झेब्राचे वाटेक वचनात. व्हडलेंशें जाल्यार हीं जनावरां झेब्राचीं पिलांक धरून खातात. झेब्राक एका वेळार एक पील जाता. दर दोन वर्सांनी मादी झेब्रा पिलांक जल्म दिता. झेब्रा जुवान जावपाक पांच ते स वर्सांचो काळ वता. झेब्राचें

आयुश्य सरासरी १८ वर्सांचें आसता.

झेब्रा रानांनी रावता तेन्ना वा उक्त्या मैदानार रावता तेन्ना ताका उदक ता जाय आसता. झेब्राचें मुखेल खाण तण. ताका उदकय खूब जाय पडटा. म्हूण उदकय भरपूर पियेता. ताच्या जेवणांत सत्तर टक्के तण आसता आनी तीस टक्के झो वा झाडाचीं पानां आसतात. झेब्रा हो प्राणी आतां उणो जावंक लागला. कासादोरां तांकां मारून काबार केल्यात.

***

# जिराफ

जिराफ हें एक नवलांचें जनावर. भारतांत तें दिश्टी पडना. आफ्रिकेच्या रानांनी तें जल्माक येता. जगांतलें सगळ्यांत ऊंच जनावर म्हूण ताची नामना आसा. जिराफाची उंचाय साडे पांच मिटर वा अठरा फूट मेरेन आसता. हे उंचायेक लागून ताका पयसुल्लें दिश्टी पडटा. जर खंयच्याय जनावराची, चड करून शिंवाची वा वागाची घुरी येवपाची आसत तर ताका ते येतात तें दिश्टी पडटा आनी जिराफांचो कळप रोखडोच पळून दुसरे कडेन वता.

जिराफाची उंचाय ताका व्हडल्या व्हडल्या रुखांवेलीं पानां खावपाक आदार करता. आफ्रिकेच्या रानांनी एकेशिया नांवाचीं झाडां आसात. तांचीं पानां खूब उंचायेर आसतात. हेर जनावरांक तीं खावपाक जमना. आनी जिराफाचें हें आवडीचें खाण. जिराफ झाडांच्यो आंकऱ्यो, फुलां, पानां, ल्हान बारीक खांदयो वा झाडाची साल खाता. पूण जिराफ जमनीवेलें तण मात केन्नाच खायना.

जिराफाचे कुडीची ठेवण वेगळीच आसा. ताचे फुडले पांय लांब आसतात. फाटले पांय मातशे मोटवे आसतात. ताच्या फुडल्या पांयांचे स्नायू खूब घटमूट आसतात. ताचे फाटीक देंवती आसता. फुडले लांब पांय आनी फाटले मोटवे पांय हांचो समतोल राखपा खातीर ही ताका सैमाची  देणगीच म्हणची पडटली.

जिराफाची नदर बरीच तिक्ष्ण आसता. तकलेर ताका दोन बारीक शिं आसतात. तीं एका फुटा मेरेन वाडटात. जिराफाचो एक वेगळो गट आसा. ह्या गटाच जिराफांक तकलेर पांच शिंगां आसतात. जिराफ उदक पियेवपाक वतना ताका ख त्रास पडटात. तें उदक पियेवपाक आपले फुडले पांय फांकारता आनी तोंड उद कडेन पावोवपाचो यत्न करता. ह्या वेळार ताका खंयचे दिशेन आपल्या जिवाक धो आसा तें पळोवंक मेळना.

जिराफाची कात ताका रानांतल्या झोपांनी वा झाडांनी लिपपाक मजत करत ताच्या पांयांचे एके खोंटीन वाग पसून मरूंक शकता. हाचे पयलीं अशे तरेच घडणुकांनी जिराफान वागांक आपल्या पांयांच्या खोंटींनी मारून उडयल्यात.

***

# गवो रेडो

गवो रेडो हो गोंयचो 'राज्यप्राणी.' ताका इंग्लिशींत बायसन(Bison) वा गौर (Gaur) म्हणटात. गवो रेडो हें एक उमदें जनावर. ताका जबरदस्त उंची आसता. तो लागीं लागीं देड ते दोन मिटर ऊंच आसता. ताचें वतन ९०० ते ९५० कील आसता.

गोंयच्या गव्या रेड्याच्या कपलाचो भाग धवो आसता. आनी पांय धोंपरा सकयल धवे आसतात. गवो रेडो हो सदांच कळपान भोंवता. गवो हो तसो शांत प्राणी, मनशाचे वाटेक वचपी न्हय. तो पुराय शिवराक, तण, पालो खावन रावपी. पूण ताची शक्त मात जबरदस्त.

ताच्या चलपाचो आवाज वा ताच्या धांवपाचो आवाज रानांतले जमनीर कंपनां निर्माण करता. ह्या कंपनां खातीर हेर जनावरांक सादूर रावपाचो संकेत मेळटा आनी ते प्रमाण जनावरां आपआपल्या सुरक्षीत ठिकाणांचो आसरो घेतात. गवो रेडो रानांत भोंवता तेन्ना अजगर वा कींग कोब्रा सारकेलीं जिवाणीं ताचे वाटे वयल्यान पयस वतात. कारण ताचो एक पांय तांचेर पडल्यार ह्या जिवाण्यांचो जीव वचपाचो. अजगर हरशीं कोणाकय वेटाळें घालून खावपाक शकता. पूण तो गव्या रेड्याचे वाटेक कसोच वचना.

गोंयांत मोलेंच्या भगवान महावीर अभयारण्यांत हे गवे रेडे पळोवंक मेळटात. बोंडलाच्या प्राणिसंग्रहालयांतय ते पळोवंक मेळटात. ते भायर सत्तरी, वाळपय वाठारांत हे गवे पळोवंक मेळटात.

हांवें वयर ह्या गव्यांची शक्त जबरदस्त आसता अशें म्हणलां. गवो रेडो म्हालान

भरल्लो ट्रक उमथून उडोवपाक शकता अशें म्हणटात. इतली शक्त ताच्या शिंगां
आनी भुजांनी आसता. गोंयच्या तण खावपी जनावरां भितर गवो रेडो शक्तिमान म्ह
मानतात.

गवो रेडो आंगान जरी भक्कम दिसलो तरी ताचीं पावलां मात ल्हान आसता
ताचें वास्तव्य दोंगरांनी आशिल्ल्या कारणान ताका फातरांनी वलपाक शक्य जाव
म्हणून निसर्गान ताका तसो निर्मिला जावये.

***

# रानकुत्रो/ कोलसुणो

रानटी जनावरां मर्दी कळपांत रावपाचे खूब फायदे आसतात. कोलसुणो हो सदांच कळपांत रावता. तांच्या कळपांत एक दादलो आनी एक बायल मुखेली आसतात. कोलसुण्याची जाणटेली ह्या कळपाची मुखेली आसताच अशें ना. ती सोडून हेर कोलसुणीं पिलांक जल्म दितात. तांच्या कळपांत जीं कोलसुणीं जाणटीं आसतात, जांकां सावजांच्या फाटल्यान वचप जमना अशीं कोलसुणीं पिलांचो सांबाळ करपाक फाटल्यान रावतात.

जायत्या वेळा ती हया पिलांची मावशीच आसता. जनावरांत तशीं नातीं आसनात पूण कोणय जरी आसली तरी तिचो पिलांचेर जबरदस्त अधिकार आसता. जायते खेपे आवय शिकारेक वचून येतकच आपल्या पिलांक घेवन बसता. दूद दिवन जातकच ही जाणटेली त्या पिलांक आपल्या म्हऱ्यांत घेवन वता. जायते खेपे हें आवयचे इत्से आडय जाता. ही आवय जायते खेपे पिलांचें बीळ बदलता. पूण ती जाणटेली तिका तशें करपाक दिना. ती पिलांक परत आपले सरीं हाडटा. हे करणे वयल्यान आवय आनी जाणटेले मर्दी झटापट जाल्ली हांवें केन्नाच पळोवंक ना वा वाचूंक ना. खूब मोठी समजिकाय ही आवय हे जाणटेले कडेन दाखयता. हाच्या फाटलें मानसशास्त्र हांव सांगपाक नकळो. पूण हें घडटा खरें.

चड करून पिलांक राखपाक तांची आवय फाटल्यान बिळांत रावता. कांय

वेळा ही राखणेंची जबाबदारी कळपांतल्या हेर मोटया कोलसुण्याचेर आसता. ही जबाबदारी पाळटना हो कोलसुणो बिळाच्या भायर अजिबात येना. जेन्ना ताच्या काना ताच्या वांगड्यांची शिळोणी पडटा तेन्नाच तो भायर सरता. कळपांतले कोलसुणे आपल्या पोटांत मांसाचे कुडके गिळून दवरतात. पिलां आशिल्ल्या घोली मुखार पावतच हे कोलसुणे ओंकारो काडून हे आख्खेच्या आख्खे गिळिल्ले मांसाचे कुडके भायर काडटात आनी ह्या पिलांक आनी जाणट्यांक खावपाक दितात. हे मांसाचे कुडके पोटांत वचून आयिल्ल्यान तांचेर जिरवणेची रासायनीक क्रिया जाल्ली आसता देखून ते पचपाक सोपे जातात. पिलांक आनी जाणट्यांक तांची पचनक्रिया दुबळी आशिल्ल्या वेळार सैमान येवजिल्लो हो उपाय पळयल्यार मन अजापीत जाता.

ह्या कोलसुण्यांचें आनी एक खाशेलेंपण म्हणल्यार तांचो कळप जरी केदोय व्हडलो आसलो तरी पिलांक जल्म दिवपाची जबाबदारी फकत एका जोडप्याचेर आसता. हेर कोलसुणीं पिलांक जल्म दिनात. आनी पुराय कळप हीं पिलां आपलीं भुरगीं जाल्ले वरी तांची जतनाय घेता. हाका लागून तांचे संख्येचेर एक सैमीक नियंत्रण उरता. त्या कळपाचें आपल्या पिलां खातीर जें पालन पोशण जाता तें इतलें बरें आसता कीं तांच्या कळपांत वा पिलां मदीं जर लंगडो कोलसुणो पसून आसलो जाल्यार ताची जीण वेवस्थीत चलता. ह्या लंगड्या कोलसुण्याचेर हेर जाणटेल्यां बरोबर ल्हान पिलांची राखण करपाची जबाबदारी सोंपयतात. जाणट्यां खातीर आनी पिलां खातीर हेर कोलसुणीं जे मांसाचे कुडके हाडटात तातूंत ह्या लंगड्या कोलसुण्याचोय वांटो आसता.

कोलसुणो शिकार करतना खूब कल्पकतायेन आनी बुद्द वापरून करता. ताचें चडशें खाण आसा तें माकड वा तण खावपी जनावरां. कोलसुणो जायत्या वेळा माकडांक पिशे करता आनी तांची शिकार करता. ज्या झाडार माकड बसल्यात त्या झाडा मुळांत तीन-चार कोलसुणे येतात. आनी वांटकुळयो घुंवाळ्यो काडटात वा एक रिंगण करतात आनी वांटकुळे धांवतात.

माकडाक सदाच अनुकरण करपाची संवय. कोलसुण्याक पळोवन तेवूय स्वता

भोंवतणीं घुंवतात आनी निमाणें घुंवळ येवन सकयल पडटात आनी कोलसुण्यांक ते आयतेच मेळटात. कांय वेळा हे कोलसुणे एकल्याच माकडाचे फाटीक लागतात आनी ताका ते कोंड्याचे आळींत धांवडायतात. माकड तांकां भियेवन झाडार चडचो तसो कोंड्यार वयर वयर चडटा. निमाणें तो कोंड्याच्या शित्यार पावता. कोंड्या शितें वयर बारीक आशिल्ल्यान बागवता आनी तो ज्या जाग्यार बागवतलो त्या जाग्यार दुसरो कोलसुणो लिपून रावील्लो आसता. अशे तरेन कोलसुण्याचें काम सादता.

हरणांक धरपाक जायत्या वेळा कोलसुणे एका हरणाक कडेक काडटात. ताका धांवडावन धांवडावन उदकांत वचपाक लायतात. उदकांत हरणा परस कोलसुणे चड गतीन पेंवपाक शकतात. ताका धरून ते तडीर हाडटात आनी खातात.

म्हाका एक घडणूक वाचपाक मेळ्ळी ती अशी: एकाच कोलसुण्यान एक रानवटी सोंसो धरलो. त्या सोंशाक मारतकच ताणें तो खालो ना. ताका घेवन तो न्हंयचेर गेलो. न्हंयचे देगेवेली मोव मातो उस्तून ताणें ताका पुरलो. आनी वयर येवन आवाज काडून हेर कोलसुण्यांक आपयले. आनी मागीर सगळ्या कोलसुण्यांनी म्हणल्यार धा-बारा कोलसुण्यांनी तो पंचखादयशी खालो.

सांगपाचो हेत म्हणल्यार जें कितें मेळटा तें कितलेंय ल्हान आसूं तें वांटून खावप हो धर्म ते सदांच पाळटात. कोलसुणो हो घरसुण्या भशेन दोन पांयांचेर केन्नाच बसना. ताचें बसप पसून शिटूक आसता. खंयच्याय वेळार सावजा फाटल्यान धांवपाक कोलसुणे इतले शूर आनी भयानक आसतात कीं वाग पसून तांचे झळकेक रावना. तांचो वास आयल्यार तो वाट बदलून दुसरे वटेन वता.

कोलसुणे हे जगांतल्या चडशा रानांनी मेळटात. भारतांतय मेळटात. गोंयच्या रानांनीय मेळ्ळ्यात. पूण गोंयच्या रानांनी ते सदांकाळ रावनात. ते भोंवडेर येतात आनी परत कर्नाटकांत वतात.

कोलसुणे हे कळपांनी रावतात. एका कळपांत ५ ते ६ कोलसुणे धरून ५० ते

६० पसून आसतात. ह्या कोलसुण्याचे कान गांवठी सुण्या परस व्हड आनी वांटकुळे आसतात. हे कोलसुणे बरेच धीट आसतात. हांची शेंपडी गोंड्या भशेन आसता. हे कोलसुणे कोणाचेरय हल्लो करपाक भियेनात. तांची हल्लो करपाची पद्दत आनी लडाय जिखपाची कळाशी हांकां तुळा ना.

हे कोलसुणे सोंसो धरून ते व्हडलें जनावर लेगीत मारून खातात. ते रानांतल्यान वतना सदांच जमनीक नाक लावन वास घेत घेत वतात. पयलीं सुणो मुखार वता आनी नागीर आवय पिलांक घेवन वता. एका गटांत एक कोलसुणो आनी हेर कोलगां आसतात. गरज पडल्यार वा शिटकावणी मेळ्ळ्यार तांचे कितलेय पंगड एकठांय जातात आनी लडाय जिखतात. जें मेळटा तें सगळे वांटून खातात. मारिल्लें जनावर खातना ताची कात , ताचीं हाडां, ताचे केंस कांयच म्हणल्यार कांयच ते दवरिनात. पयल्या दिसा थंय लटाफट जाली हाची लेगीत खूण ते दवरिनात.

कोलसुणो हो तसो हिंस्त्र आनी क्रूर प्राणी. हो प्राणी जगा वेगळो म्हणचो पडटलो. सुण्या भशेन सुणो पूण तो खंयच्याय जनावराचेर घुरी घालता तेन्ना तें जनावर जितें आसतनाच ताच्या आंगाचे कुडके काडटा आनी खंयचोय रानवटी प्राणी अशी शिकार करिना. इतली आंखून, इतली एकवटीतपणान आनी इतली निर्दयपणान शिकार करपी फकत कोलसुणोच.

कोलसुण्याचें एक खेरीतपण म्हणल्यार ज्या रानांत वा वाठारांत कोलसुणे वास्तव्याक येतात तो वाठार हेर जनावरां सोडून वतात. रानांत कोलसुण्यांचें नव्यान येवप हें थंय बस्तान बसयल्ल्या जनावरांक त्रासदायक जाता आनी तीं स्थलांतर करून दुसऱ्या रानांत वतात.

आदीमानव कोलसुण्या पसून खूब शिकला आसूंक जाय. कारण बुद्दीचे बाबतींत कोलसुणो मनशा परस उणो पडना.

***

# जनावरां आनी तांचीं पावलां

जनावरांच्या पावलां वेल्यान तांची वळख मेळटा. रानांतल्या दर एका जनावराक सैमान वेगळीं वेगळीं पावलां दिल्यांत. हीं जनावरां जेन्ना उदक पियेवपाक वतात तेन्ना मोव आनी ओले मातयेंत तांचीं पावलां उदेतात. दर एका वागाच्या आनी बिबट्याच्या पावलांचो ठसो वेगळो आसता. ते भायर वागिणीचीं पावलां वेगळीं आसतात. म्हणून अरण्य वाचन करचे पयलीं ह्या जनावरांचीं पावलां अभ्यासप गरजेचें.

जनावरांच्यो लेणयोय तांची वळख दितात. जनावरांच्या  लेणयां वेल्यान तीं शिवराक काय मांस खावपी हाची वळख मेळटा. ह्या लेणयांक वेगळो वेगळो वास आसता. ह्या अश्या लेणयांनी फळांच्यो बियो, तण, झोपांचीं पानां मेळ्ळीं जाल्यार तो प्राणी शिवराक म्हूण वळखुंचो. हरणाच्यो लेणयो २० ते २५ मि. मि. लांब आनी १२ ते १८ मि. मि. रूंद आसतात. चौशिंगा, चितळ हांच्यो लेणयो १ सें. मि. लांब आनी वांटकुळ्यो आसतात. रानदुकराची विश्ठा ७सें. मि. लांब आसता. विश्ठेंत जर हाडां आनी केंस दिसले तर ती मांस खावपी जनावराची म्हूण समजुंची. पट्ट्यांचो वाग आनी बिबटो वाग हांची लेणी 'वृत्तचित्ती' आकाराची आसता. ती पांच ते सात सें. मि. लांब आसता हे विश्ठेंत केंस मेळ्ळे जाल्यार समजुचें वागान जनावर मारलां.

कोलसुण्याची लेणी धवीफुल्ल आसता. जायते खेपे वाग आपलें क्षेत्र थारावपाक मदींच फातराचेर आपल्यो लेणयो उडयता. त्या वासान हेर वागांनी थंय येवचें न्हय अशी शिटकावणी तो ते वरवीं दिता. ते भायर झाडांचेर वा झोपांचेर मुतून तो आपलें

क्षेत्र राखून दवरता तें वेगळें. अशे तरेन तो सुमार १३४ चौ. कि.मि. वाठार राखून दवरता आनी तातूंत वावुरता.

सकाळची आमकां सुकणीं गायतात तें आयकूं येता. आमकां दिसता तीं मजेक गायतात म्हूण. खरें म्हणल्यार तीं गावून आपलें क्षेत्र राखून दवरतात. अशें दर एक सुकणें करता. आनी जर हेर वाठारांतलें तेच जातीचें सुकणें भितर सरलें जाल्यार तांची लटाफट जाता. जें जिखता ताका त्या भिन्याचेर शेक गाजोवपाक मेळटा.

***

# जनावरांच्यो संवयो आनी अभ्यास

इश्टांनो, रानांतल्या जनावरांचो आनी तांच्या रावपाचे संवयेचो अभ्यास ही एक खूब कठीण गजाल. ह्या अभ्यासाक अरण्य वाचन म्हणटात.

रानांतलीं जनावरां सदांव सतर्क आसतात. तांकां अनवळखी गजालींची रोखडीच सुलूस लागता. ही अनवळखी गजाल मागीर तांकां पळोवपाक आयिल्ले अभ्यासक आसूं येतात, तांकां मारपाक आयिल्ले कासादोर आसूं येतात, तांचे खातीर बसयिल्ले कॅमेरे आसूं येतात. जें कितें सदां घडना तें तें सगळें तांकां सतर्क करता. सतर्क जाल्लें जनावर त्या जाग्या वेल्यान पळ काडटा.

अरण्य वाचन करतलो जाल्यार कांय गजालींचो अभ्यास आसपाक जाय. रानांत खंयच्या भागांत खंयच्या जनावराचें यो-वच आसा, तांच्यो येवपा-वचपाच्यो वाटो, वेळ हें सगळें खबर आसचें पडटा. सादारणपणान फांतोडेर चार वरां ते सकाळचीं आठ वरां हे मजगतीं रानवटी प्राणी उदक पियेवपाक येतात.

ह्या काळांत जर तुमी झोपा फाटल्यान हालचाल करिनासतना बसले वा झाडार बांदिल्ल्या मचाणाचेर बसले जाल्यार तुमकां हीं जनावरां पळोवंक मेळटात. हीं जनावरां बरींच हुशार आसतात. उदक पियेवपाक येतना तीं चारय वाटांनी नदर दवरतात. कसलोय दुभाव आयलो जाल्यार तीं उदक पियेनासतना परतीं वतात. तांचें नाक बरेंच तिक्ष्ण आसता. मनशाचो वास तांकां रोखडोच येता. देखून तुमी बसतना वारो आड दिकेन व्हांवता अशें पळोवन बसप गरजेचें.

अशे मोहिमेचेर वतना आंगार वा कपड्यांचेर चेर मारिल्लो उपकरना, तोंडाव पावडर उपकरना, सिगार वा विडी उपकरना, गुटखा वा सुगंधी खाण उपकरना. ह्या सगळ्यांचो वास तांकां रोखडोच येता. असो वास येतकच तीं उदक पियेवपाचें टाळतात. आनी जाग्या पसून पयस वतात.

रानांत उदक पियेवपाक सगळ्यांत पयलीं वानर आनी माकड येतात. तांचे उपरांत मोर आनी रानकोंबे येतात. तांचे फाटोफाट हरणां, सांबरां आनी चितळां उदक पियेवन वतात. तांचे फाटल्यान रानदुकरांची भोंवसळ येता. वांस्वेलां येतात. रात जातकच गवे रेडे उदकार येतात. वागाक मात हो नेम लागना. तो ताका जाय तेन्ना उदक पियेवंक येता. तो जेन्ना उदक पियेवंक येता तेन्ना खंयचेंय जनावर थंय येवपाचें धाडस करिना.

***

# रानांतलें आवयपण

रानवटी जनावरांच्या मार्गदर्शना खाला मनीस खूब कितें शिकला. मनीस हा मोटो बिलंदर आनी धूर्त. तो जनावरां कडल्यान सगळें शिकता पूण स्वताक बुद्दिमान म्हूण समजता आनी हेर मनशांक जनावर म्हूण गाळ मारता.

आवयपणाची बरी देख पळयतलो जाल्यार ती रानवटी जनावरां मदीं पळोवची. जनावरांच्यो आपल्या पिलांक वयर काडपाच्यो पद्दती, रानांतल्या हेर समाजाक कशें फुडो करप आनी आपलें अस्तित्व कशें राखप हें जनावरांच्यो आवयो बेस बरें जाणात.

वागीण आपल्या पिलांचो बरो सांबाळ करता. आपल्या पिलांक आपले बराबर घेवन ती देड ते दोन वर्सां तांचो सांबाळ करता. तांचे पिराये प्रमाण तांकां योग्य तें शिक्षण ती दिता. सुरवेक आपूण रानांतल्या जनावरांची शिकार करून ताचे कुडके आपल्या पिलां खातीर हाडपाचें काम ती करता. वागाची तिका मजत जाताच. पूण वागीण ही तांच्या घराब्यांत शेक चलोवपी आसुंये. आपल्या पिलां बराबर वागय कांय काळ घालयता जावंये.

कोलसुणे हेवूय अशेंच. तांचे कडेन एक खाशेलेंपण आसा. रानांत जमनीचे घोलींत वा बिळांत तांचीं पिलां ल्हानाचीं व्हड जातात. कोलसुण्यांचो कळप ह्या पिलांची जरी सरळ जतनाय घेना आसलो तरी त्या पिलांचो बापूय तांची बरी काळजी घेता. खंयच्याय जनावराची शिकार करतकच हो बापूय मांसाचे मोटे कपचे घांस मारून काडटा आनी ते तशा तशे गिळटा. कोलसुण्यांची जनावर खावपाची तरा खूब

भयानक. ते खातना अधाशा भशेन खातात. कारण तांणी मारिल्ली शिकार तांकां पुराय खावपाक मेळटलीच हाची आस्त नासता.

पिलां जेन्ना आवयचें दूद पिवन व्हड जातात पूण शिकार करपाक शकनात, अशा काळांत हो बापूय पिलां म्हऱ्यांत येता आनी आपणें गिळिल्ल्या मांसाचे कुडके ओंकारे काडून भायर काडटा. हे कुडके पोटांत गेल्ल्यान तांचेर जिरवणेची प्रक्रिया जाल्ली आसता. हाका लागून हे कुडके जिरपाक सोपे आसतात. बापायन पोटांतल्यान काडिल्ले हे कुडके तांचीं पिलां खावपाक लागतात. आनी अशें अर्द जिरवण जाल्लें मांस खावन चड सशक्त आनी बेगीन गुटगुटीत जातात.

ह्या काळांत आवय आपल्या पिलांक राखपाक चोविसूय वरां पिलां म्हऱ्यांत बसून आसता. आवयपणाचें कर्तव्य रानांतलें दर एक जनावर बरे तरेन पाळटा. दर एका जनावराची आपल्या पिलांक वाडोवपाची पद्दत वेगवेगळी आसता.

***

# रानवळख सोंपयतना

इश्टांनो, म्हजी ही रानवळख निखटी जनावरांची वळख न्हय. तो तांचो अभ्यासूय आसा. जनावरांचे बारकावे, तांचें वागप, तांच्यो संवयो, तांची जियेवपाची पद्दत, म्हजे परीन हांवें म्हज्या अणभवांतल्यान आनी वाचनांतल्यान मेळिल्लें ज्ञान थोड्या भितर तुमच्या मुखार मांडपाचो यत्न केला. हो यत्न फळादीक जाला आसतलो अशी आस्त बाळगितां.

हांवें बरयलां तें फकत १ टक्को. ह्या विशया वेलें ९९ टक्के ज्ञान अजून पुस्तकांनी आसा, रानांनी आसा.

पुस्तकांचे भेटेक जर तुमी वचशात जाल्यार हो ज्ञानाचो पेटारो तुमचे खातीर उक्तो जातलो. रानांनी भोंवपाक तुमकां मेळ्ळें जाल्यार अख्खें रानच तुमचे भेटेक येतलें. रानाचीच म्हूण एक दिनचर्या आसता. एक ऑबझर्वर/निरिक्षक जावन उक्त्या दोळ्यांनी आनी उक्त्या कानांनी तुमी तें पळयलें आनी अणभवलें जाल्यार तुमी ज्ञानान खूब गिरेस्त जातले. गोंयच्या रानां संबंदान आनी रान भोंवडे संबंदान जर कितेंय म्हायती जाय जाल्यार म्हजे वळखीचे इश्ट भौ. राजेंद्र केरकार, भौ. प्रकाश पर्येकार आनी भौ. प्रकाश सालेलकार (रान खात्यांतलो अधिकारी) हांचे कडेन मुजरत संपर्क सादचो.

तुमी पुस्तकांतल्यान रानवळख करून घेतले जाल्यार खूबशे बरोवपी आसात.

इंग्लिशींत, मराठींत आनी हेर भाशांनीय बी. पणजेच्या ब्रॉड वे बूक सेंटरांत वचशात जाल्यार पुस्तकांची रास तुमकां दिसतली. मडगवां सोदपाचें आसत जाल्यार गोल्डन हार्ट एम्पोरयिम आसा. फोंड्यां सुरुची वितरणाचें ढवळे ग्रंथालय आसा. आनी मुंबय, पुण्यांत गेले जाल्यार पुस्तकांचो म्हासागर आसा. ह्या सगळ्या जाग्यांनी पुस्तकां तुमची वाट पळयतात.

इश्टांनो, हांव एक गजाल खात्रेन सांगतां. तुमकां वाचून आनी प्रत्यक्ष अणभवान जें ज्ञान मेळटा तें खरें ज्ञान. टी. व्ही. वा इंटरनॅटावेलें ज्ञान हें खिणयाळें आसता. पुस्तकांत वाचिल्लें मनांत उरता, तें परत किल्लता, मातयेंत पुरिल्ल्या बियां भशेन. म्हूण तें सासणाचें आसता.

आमचीं रानां आनी तातूंतलीं जनावरां ही सैमाची देणगी. मनशा कडेन रान निर्मूक जायना. लाखांनी वर्सांची प्रक्रिया आनी त्या प्रयासांतल्यान रान निर्माण जाता. आज मनीस स्वार्था खातीर रानां कातरपाक लागला. सध्याक मनशान भस्मासुराचें रूप घेतलां. स्वताचो नाश करपा खातीर. म्हजें मानेस्त बाळगोपाळां कडेन एकूच काळजा सावन मागणें, काल मेरेन जालें तें जालें, आतां उरल्यांत तीं रानां सांबाळात. तीं सांबाळपाक वावुरपी संस्थांक आदार करात. जे कोण रानां कापपाचें समर्थन करतात तांचो तिरस्कार करात. तुमचे जिणेंतल्यान तांकां भिरकटावन मारात कारण ते तुमचो नाश करपाक उठल्यात. पयशांच्या नादान ते कुड्डे जाल्यात. रानां वाचलीं, रानां जगलीं जाल्यारच मनीस जगतलो ना जाल्यार तोय सोंपतलो.

***

# उतरावळ

### अ आ इ ई उ ऊ अे ओ

अजगर - Indian Python
अभयारण्य - wild life sanctuary
अमेरिकन बॅर - American Bear
आफ्रिका - Africa
आयुधां - Weapon
आहेडा - Chevrotain
उंदीर हरण - Mouse Deer
उत्तर ध्रूव - North Pole
अेक्सिस अेक्सिल -
अेन्टिलोप - Antelope
अेन्टिलोकेप्रिडी - Antilocapridae
ओडलॅन्ड कॅरिबू

### क ख ग घ

कस्तुरीमृग - Musk Deer
कृष्णमृग - Black Buck
कांचनमृग - Goldem Buck
काझिरंगा - Kaziranga
कासादोर - Shooter
काळवीट - Black Buck
कायोट - Cayote
काळतोंड्या - Common Langur
काळें वांस्वेल - Sloth Bear
कॅरिबू - Caribou
कूगर - Cooger
कुरंग - Antelope
कोलो - Jackal
कोलसुणो - Wild Dog; Dhol
खूर - Hoof
गरूड - Eagle
गवयाद्य - Bovidae Family
गवो रेडो - Bison; Indian Gaur
गांजील मूस - Honey Bee
गिबन हुलूक - Gibbon Huluk
गेंडो - Rhinocerous

### च छ ज झ

चितो - Cheetah
चितळ - Spotted Deer
चिंकारा - Indian Gazel; Chinkara
जावान गेंडो - Javan Rhino
जिराफ - Giraffe

### ट ड

ट्रेंग्युलस मेमिन्ना -Trangulus Meminna

ट्रेग्युलिडी - Tragulidae
डियर - Deer

### त थ न

तरस - Hyena
थेरयो - Indian Pangolin
नर - Male
नरभक्षक - Man Eaters
नीलगाय - Blue Buck; Neelgay

### प फ ब भ म

प्रायमेटस् - Primates
प्रोसिमियन्स -
पिसय - Mouse Deer
पिसोरा - Mouse Deer
पिसोरी हरण - Mouse Deer
प्रोंगहॉर्न - Pronghorn
पोलर बॅर - Polar Bear
बंगाली वाग - Bengal Tiger
बॅरन ग्रावंड कॅरिबू -
ब्रावन बॅर - Brown Bear
बिबटो वाग - Leopard; Panther
बोटांचे ठशे - Finger Prints
बोनमेरो - Bonemarrow
भोंवसळ - Herd
मंकीज - Monkeys
माकड - Macaque
माणसाळ्ळा - Tamed
मादी - Female
मानगें - Crocodile
मुंगूस - Common Mongoose
मेरू -Samber,Savers Unicorn
मोस्चिडी- moschidae

### य र ल व श स ह

योवल -striped Hyena
रडी मुंगूस -Redi Mongoose
राष्ट्रीय उद्यान -National Park
रानकुत्रो -Indian Wild Dog,Dhole
रानकोंबे -Wild Rook
रानदुकर -Wild Boar
रानसुणीं -Indian Wild Dog
रेनडियर -Reindeer
लंगूर -Langur
लांडगो -Wolf
लाजवंती वानर -Slender Loris
वाग -Bengal Tiger
वानर -Common,Hanuman Langur
वांस्वेल -Sloth Bear
शींव -Lion
सन बॅर- Sun Bear

सायबेरियन वाग -Siberian Tiger

सारंग -Deer

सारंगाद्य -Cervidae Family

सांबर- Samber

साळ - Indian Porcupine

सुकणीं- Birds

सुंदरबन - Sunderban

सुमात्रन गेंडो -Sumatran Rhino

स्पेक्टेकल्ड बॅर -Spectacled Bear

स्फेनोडोन -Sphenodon

सेव्हर्स युनिकोलर- Savers Unicolor

स्लेज -Sledge

सोंसो- Indian Hare

स्लोथ बॅर -SlothBear

हनुमान लंगूर -Hanuman Langur

हती -Elephant

हरण -Deer

हिमालयन वांस्वेल -Himalayan Bear

हिप्नोटायझ -Hypnotise

हुपयो - Rhisus Macaque

***

# राना संबदी म्हायती खातीर वेबसायटी

www.africanwildlifeconservationfund.com

www.imagineafrica.co.uk

www.tapirback.com

www.ecologyasia.com

www.animalinfo.org

www.bangalinet.com

www.honoluluzoo.org

www.cheetah.org

www.nationalgeographic.com

www.photokunsp.com

www.sanctuaryasia.com

www.bing.com

www.google.com

# अदीक म्हायती खातीर पुस्तकां

१. **रुद्रप्रयागचा नरभक्षक चिता** . लेखक: जिम कॉर्बेट Pub. Oxford Univsrsity Press. YMCA Library Bldg. Jai Sing Road Delhi 110001

२. **कुमाऊंचे नरभक्षक** ले. जिम कॉर्बेट प्र. ऑक्सफॉर्ड

३. **देवळाचा वाघ आणि कुमाऊंचे आणखी काही नरभक्षक** ले. जिम कॉर्बेट प्र. ऑक्सफॉर्ड

४. **रोमहर्षक शिकार कथा** ले: विजय देवधर प्र. चंद्रकला प्रकाशन, १३८ कसबा पेठ, पुणे

५. **भारताचीं संकटग्रस्त जनावरां आनी तांचें संरक्षण.** अणकार डॉ. माधवी सरदेसाय प्र. नॅशनल बूक ट्रस्ट, दिल्ली

६. **कॅनेथ अँडरसनच्या शिकार कथा.** ले. डॉ. जी. के. देशपांडे प्र. भारती प्रकाशन बी १२, आसावरी, गुप्ते रोड, डोंबिवली (प.) महाराष्ट्र

७. **जंगलांतील दिवस.** ले. व्यंकटेश माडगुळकर, प्र. मॅजेस्टिक प्रकाशन, ८, फिनिक्स तिसरा मजला ४५७ एस्. व्ही. पी. रोड, गिरगांव, मुंबई

८. **सत्तांतर.** ले. व्यंकटेश माडगुळकर, प्र. मॅजेस्टिक प्रकाशन,

९. **गप्पागोष्टी प्राणी जगताच्या.** ले. डॉ. सुरेश रानडे प्र. उत्कर्ष प्रकाशन ६८५, डेक्कन जिमखाना, पुणे

१०. **निसर्ग चक्र.** ले. सुरेशचंद्र वारघडे प्र. रविराज प्रकाशन ४५८/२ सदाशिव पेठ, चित्रकुटी, टिळक रोड, पुणे

११. **सायबेरिंयातील शोध.** ले. प्रकाश गोळे प्र. राजहंस प्रकाशन, पुणे

१२. **रानोमाळ.** ले. र. वि. फडतरे प्र. सुयोग प्रकाशन आकाश दीप फलॅट नं. ९, एबी २, ८०० सदाशिव पेठ, बॅरिस्टर गाडगीळ मार्ग, पुणे

१३. **कॉल ऑफ द टायगर.** ले. लालू दुर्वे प्र. आरती प्रकाशन

१४. **मनीमावशीचा परीवार.** ले. मनोहरदास चतुर्वेदी नॅशनल बूक ट्रस्ट
१५. **सिंहांच्या देशांत.** ले.व्यंकटेश माडगुळकर, उत्कर्ष प्रकाशन
१६. **क्रौंच काव्य.** ले. सुरेशचंद्र वारघडे प्र. अस्मिता प्रकाशन ४५८/२ सदाशिव पेठ, चित्रकुटी, टिळक रोड, पुणे
१७. **रानावनांतल्या गोष्टी, फ्रॅंक बकच्या सफरी.** ले. लालू दुर्वे प्र. जयहींद प्रकाशन, झावबावाडी, मुंबई
१८. **नागझिरा.** ले.व्यंकटेश माडगुळकर, श्रीविद्या प्रकाशन २५० शनिवार पेठ, पुणे
१९. **चकवाचांदण एक वनोपनिषद.** ले. मारुती चितमपल्ली मौज प्रकाशन गृह, खटाववाडी, गिरगांव, मुंबइं.

20. **Jungles Long Ago.** by Kenneth Anderson. Pub. Rupa&Co. Delhi.
21. **Aggressive Behaviour in Hanuman Langurs**. by Yukimaru Sujiyama
22. **Bring Them Back Alive.** by Frank Buck
23. **Book of Indian Animals.** by Pretor
24. **1000 Animal Quiz** .by Maneka Gandhi Pub. Rupa & Co. Delhi

# संपर्का खातीर पत्ते

भौ.राजेंद्र केरकार
रान अभ्यासक
केरी, सत्तरी
गोंय 403 505
फोन: 0832 2369224

भौ. प्रकाश पर्येकार
रान अभ्यासक
धावें, तार, वाळपय
सत्तरी, गोंय 403 506
फोन: 0832 2358109
मो. 8390303546
email: prakash-pariekar@yahoo.com

भौ. प्रकाश सालेलकार
रान अभ्यासक
घर नं. 176
टॉनी नगर
सावर्डे - गोंय 403 706
मो. 9422059237

Range Forest Officer
Bondla Wildlife Sanctuary and
Zoological Park
Post Usgaon
Goa.

Range Forest Officer
Bhagwan Mahaveer Wildlife Sanctuary &
Mollem National Park
Mollem
Sanguem Taluka
Goa

Range Forest Officer
Cotigao Wildlife Sanctuary
Paingin
Canacona -Goa

Range Forest Officer
Mhadei Wildlife Sanctuary
Sattari - Goa
(To be Notified Shortly)

Range Forest Officer
Netravali Wildlife Sanctuary
Netravali, Sanguem - Goa
(To be Notified Shortly)



# वळख

## दिनेश रा. मणेरकार

एम्. कॉम (मॅनेजमँट)

बालसाहित्य :

'सैमाचें वरदान' हें झाडांच्या उपेगाचेर बरयल्लें एक पुस्तक उजवाडाक आयलां.

'एका फुलपाकुल्याची काणी, अप्रूप जीवसृश्ट, बोरयेचो पूल आनी उदकांतली अप्रूप सृश्ट' हीं नॅशनल बूक ट्रस्टाचीं पुस्तकां कोंकणींत अणकारीत केल्यांत.

ल्हान भुरग्यांची सृजनशीलता वाडची म्हूण कोंकणी कला साहित्य केंद्राचे वतीन बाल मेळाव्याचें आयोजन केलां.

कोंकणी बाल साहित्याक एक वेगळी नदर येवची म्हूण कोंकणी भाशा मंडळाचे वतीन बालसाहित्य लेखन कार्यशाळा आयोजीत केल्या.

अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनांत कोंकणी बाल साहित्याची दिका, विकास आनी मार्केटींग हाचेर पेपर सादर केला.

कोंकणी भाशेंतल्या बाल साहित्याची बुन्याद घट्ट जावंची आनी ती बालमानसांत रुजची देखून फाटलीं चार वर्सां सुनापरान्तांत 'रानवळख, ओढ अंतराळाची, डायनासोरांच्या जगांत, उदकांतली अप्रूप सृश्ट' ह्या विशयांचेर एकशें ऐंशां वयर लेख बरयल्यात. आयचें हें पुस्तक हे माळेंतलें पयलें पुस्तक जावन आसा. उरिल्लीं तीन पुस्तकां पूर्णत्वाचे वाटेर आसात.

हेर साहित्य:

ते भायर अर्थशास्त्र, राजनिती ह्या विशयांचेर स्तंभ लेखन चालू आसा. 'वेंचिल्ले खीण 'हो निबंद संग्रह प्रकाशीत जाला.

नॅशनल ट्रांसलेशन मिशन हांच्या वावरांत सहकार्य करता.

हेर वावर:

कोंकणी भाशेंतलें बालसाहित्य हें वेगळे तरेचें बालसाहित्य आसचें आनी हेर भारतीय भाशांनी हाचो आदर्श घेवंचो हाचेर संशोधनात्मक वावर चालू आसा.

१८ व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाचो कार्याध्यक्ष म्हूण जबाबदारी सांबाळ्ळ्या.

११ व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचो संमेलनाध्यक्ष म्हूण जबाबदारी सांबाळ्ळ्या.